# लाला बाला

( एक बॉल डान्स खेळ )

रवीन्द्र केळेकार

जाग प्रकाशन



# सांगपा सारकें

ज्यां आनुयी हाच्या L'invitation au Château ह्या नाटकाचो आधार घेवन बरयल्लें नाटक हें. 'स्वतंत्र' तर निखालूस न्हय. 'रुपांतरुय' न्हय. कित्याक, हातूंत जितलें आनुयीचें आसा तितलेंच म्हजें आसा. म्हजें आसा तितलेंच ताचें आसा.

कोणाचेंय जायना आनी कशेंय जायना, जशें जालां तशें रसिकांच्या हातांत दिवपाक मुखार सल्लां.

अेक मात म्हाका सांगूंक जाय : किरिस्तांव आनी हिन्दू ह्या दोनूय जमातींक संस्कृतायेच्या मळार अेके कडेन हाडपाच्या हावेसान हांवें हें बरयलां. तुर्ताक ह्या दोनूय जमातींतले शिकिल्ले लोक बॉल डान्सांत अेके कडेन येवपाक लागल्यात हें पळोवन म्हाका दिसलें, बॉल डान्सांतूच करपासारकें नाटक पयलीं बरोवंया. आनी हें बरयलें.

नाटकाचें येस चौगांचेर आधारून अुरता. १ बरोवप्याचेर. २ बसयतल्याचेर ३ करतल्यांचेर आनी ४ पळेतल्यांचेर.

हांवें म्हजें काम केलां.

सुचोवणी अितलीच : लालाचो आनी बालाचो 'रोल' अेकाच मनशान करपाचो.

बॉल डान्सांत करपाच्या नाटकाचो अुद्देश entertainment सोडून दुसरो कितें आसतलो ? हांवें होच अुद्देश मुखार दवल्लेलो हें नाटक बरयतनां. पुणून अेकल्यान म्हळां : entertainment at its best engages both the heart and the mind. म्हाका हें जमलां काय कितें, रसिकांनीं सांगपाचें. हांवें सांगपाचें तें अितलेंच : नाटक हें म्हजें मळ न्हय. दुसरे बरयनात म्हुण हांव बरयतां—Fools rush in where angels fear to tread.

प्रियोळ २२-८-७६. रवीन्द्र केळेकार

## संवगां

**ताअीबाय :** अेका आदि-गिरेस्त पुणून सुधाल्लेल्या घराण्यांतली जाणटी विध
बायल. पिराय ६०-६५ च्या अदमासाची.

**लाला :** ताईबायचो पुतणयो. पिराय २५ । २६ वरसांची.

**बाला :** लालाचो जुंवळो भाव. ( लाला आनी बाला अेकूच नट )

**पुरसो :** तांचो कारभारी. पिराय ५० च्या अदमासाची.

**उषा :** ताईबायच्या तिसऱ्या देराची धूव. पिराय २५. सोनुबाब नांवाच्या एक
मिनेराची प्रायव्हेट सेक्रेटरी.

**सोनुबाब :** एक मिनेर. पिराय ५५ वरसांची.

**वीणा :** सोनुबाबाली धूव. पिराय २० । २२ च्या अदमासाची.

**उल्हास :** सोनुबाबालो मॅनेजर. पिराय ३० । ३५ वरसांची.

**आवडू :** ताईबायची सेवा करपी. पिराय ४० । ४५.

**श्रीकान्त :** कलाकार. नृत्याची शाळा चलोवपी. पिराय ३० । ३५.

**राधा :** श्रीकान्ताले शाळेंत नाच शिकपी गरीब घराण्यांतलें एक चली. पिर
२० । २५.

**गिरिजाबाय :** राधाची आवय. पिराय ४० । ४५.

त्या भायर बॉल डान्सांत वांटो घेवपी कांय जोडपीं
आनी प्रेक्षक.

## आंक पयलो

### देखाव पयलो

एका व्हड घराचें साल.

वेळ सकाळचीं अिकरा.

[ पुरसो दिसता· इतल्यांत एका दारांतल्यान चिरूट ओडीत लाला भितर सरता. ]

**लाला** : पुरशेमाम...कालूय रातीं तो तिका घेवन पासयेक गेल्लो ?

**पुरसो** : हय. कालूय तो तिका घेवन गेल्लो.

**लाला** : रातचो केन्ना न्हिद्‌ूंक आयलो ?...

**पुरसो** : सांगूंक नकळं...लालाबाब, आयज पांच राती जाल्यो हांव पळेतां.... बालाबाब तिका घेवन रातचो पासयेक वता. मध्यान रात मेरेन दोगांय भायरूच आसतात. केन्ना घरा येतात, कोण जाणां ! आमचें तें चेडूं ना ? शांतू ? तें सांगी : आपुण बालाबाबाचे कुडींतसकाळीं सान्न मारूंक वतां तेन्ना, हालीं सद्दांताचें हांतुळण जशा तशें मेळटा. चुरिल्लें नासता. आयज हयो वावराडयो कांय उलयनात. फाल्यां फुतफुतूंक लागतल्यो. आनी मागीर एकदीस तें ताईबायच्या कानार पावतलें....

**लाला** : पुरशेमाम, तुवें केन्ना कोणाचेर मोग-बीग केल्लो रे ?

**पुरसो** : तीस वरसां जालीं लालाबाब, हांव तुमच्या घरांत कारभारी म्हुण आसां....केन्ना मोग करतलों ? आतां हांव जाणटो जालों...

**लाला** : त्या आदीं ?

**पुरसो** : त्या आदीं हांव भुरगो आशिल्लों.

**लाला** : हांव जाणटोय न्हय आनी भुरगोय न्हय...म्हजी पिराय मोगांत पडपाची...पुणून हांव बालासारको न्हय. कोणाचेरूय मोग करपी.

**पुरसो** : बालाबाबाची तरा वेगळी...

**लाला** : आनी आमी दोगूय खंय एकाच दिसा जल्मा आयिल्ले....मागीर, सभावांत इतलें अंतर कशें पडलें तर आमच्या ?.

**पुरसो** : तूं बालाबाबापरस धा मिणटांनी जाणटो. एका मिणटाचो फरक पडलो जाल्यारूय खंय सभावांत अंतर पडटा.

**लाला** : पुणून हया धा मिणटांनी म्हाका कितलें शिकयलें जाणां, पुरशोमाम ?... हांव बायलांचो सभाव आतां सारको वळखतां.

**पुरसो** : वीणाबाय समजता जातली, आपूण नाचयन तशो तुमी दोगूय नाचतले म्हुण.

**लाला** : ती जायतें समजतली ! हांव कोण बाला व्हय, तिका जाय तसो नाच-पाक ? ... कोणाक सांगूं नाका आं, पुरशोमाम. आयज रातचे पार्टींत नाच दवल्ला....तातूंत हांवें एक नाटक करपाचें केलां ... वीणाक बुद्द शिकयना जाल्यार हांवूच न्हय जायन. पळेशीत तूं.

**पुरसो** : अशें ?....

**लाला** : आतां वरां कितलीं जालीं ?...

**पुरसो** : इकरा जालीं जातलीं आतां...

**लाला** : बारा मेरेन पळे, नाटकाक सुरवात...[ लाला वता ]

**पुरसो** : कसली रीत म्हुण समजना हालिंच्या भुरग्यांची. मोग एकल्याचेर... लग्न दुसऱ्याकडेन ... बरें, इतल्यान सोंपलां व्हय ? लग्न अजून थर-पाचेंच आसा ... व्हकलेक घेवन घरा .... इतलेंच न्हय, ... रातचीं मध्यान राती मेरेन पासयेक .... केन्ना पळोंवक नाशिल्लें असलें ...

[ बाला येता. ]

**बाला** : पुरशोमाम, वीणाक पळेलां ?

**पुरसो** : ना बालाबाब...अजून उठूंक ना जातलें तें...

**बाला** : म्हजे दोळे जागरणाचे दिसतात, पुरशोमाम ?

**पुरसो** : खरें सांगूं ?...दिसतात....

**बाला** : तूं ओगीच कित्याय कितें सांगता, पुरशोमाम. रातीं म्हाका सुस्त न्हीद पडल्या....

**पुरसो** : बालाबाब, तूं रागार जावंचो ना मू ? तुका एक खबर सांगूंक सोदताले

अस्वडीं...तें आमचें शान्तू ना ?...तें म्हणी, तुज्या हांतुळणा वयलो चादर मात् लेगीत चुरिल्लो नासता म्हुण हालीं....तूं न्हिदुंकूच येना म्हुण कुडींत....असलें कितें कितें फुतफुतून सांगता तें म्हाका. मातशी जतनाय घे म्हणटालों....

**बाला** : ताका सांग, आयचे रातीं हांवें ताकाच आपयलां म्हुण...हांतुळण चुरपाक...मागीर, फुतफुतपाची गरज उरची ना...

**पुरसो** : बालाबाब !...

**बाला** : तातूंत कितें ?....वायट दिसता तें ?

**पुरसो** : माणसुकी उरूंक ना बालाबाब तुजे कडेन. तूं आनी इतलो जाशीत अशें हांवें मानूंक नाशिल्लें...

**बाला** : मातसो मातसो धीट जातां...

**पुरसो** : इतलो ?...[ पुरसो वता...वीणा येता. ]

**बाला** : आयलें तूं ? तुजीच वाट पळेतालों हांव. रातीं न्हीद कशी पडली ?

**वीणा** : [ बालाक बारकायेन नियाळून ] पयलीं एक सांग, तूं तूंच काय तुजो भाव ?

**बाला** : अशें विचारप मगो तुवें म्हाका ?

**वीणा** : कळ्ळें....तूं तूंच आसूंक जाय...पयलीं तूं तुजो भाव कसो दिसलो म्हाका तुजी धीट नुरा पळेतकच.

**बाला** : म्हजे परस तो तुका मानवता जाल्यार हांव तोंड घेवन वतां,

**वीणा** : तुमी दोगूय सारकेच दिसतात म्हुण विचाल्लें. चूक जांव येता न्हय सट्ट करून ?

**बाला** : पुणून आमचो सभाव सारको न्हय.

**वीणा** : तेंय खरें...पुणून समज, रातचें हांव तुजी वाट पळेत बागेंत बसलां. फाटल्यान म्हाका कोणाचीं पावलां आयकूंक येतात. तूंच येता जातलो अशें हांव मानतां. इतल्यांत दोन हात म्हजे दोळे धांपतात. ते तुजेच हात म्हुण हांव वळखतां. मागीर दोन वोंठ येतात आनी म्हज्या गालाचो उमाव घेतात. ते वोंठय तुजेच अशें धरतां .... आतां सांग, तुजो सभाव कसो कळप म्हाका ?

**बाला :** पुणून वीणा, हांवें बागेंत, उकत्यार–रातचें जांव मागीर–केन्नाच तुजो उमाव घेवंक ना...

**वीणा :** म्हज्यान ?

**बाला :** तुज्यान तर !... समजलों.... तें लालाचेंच कर्म आसूंक जाय. ताका वचून विचारतां हांव आतां...

**वीणा :** शे...शे...शे...शे....ओगीच बोवाळ नाका ... कोणेंच म्हजो उमाव घेवंक ना... हांवें बेश्टेंच तुका विचाल्लें, सभाव कसो कळचो हें जाणा जावपाक.

**बाला :** म्हजो सोपूत घे...

**वीणा :** तुज्यान तर !...

**बाला :** लालान तुजो उमाव घेवंक ना ?

**वीणा :** कोणेंच घेवंक ना....

**बाला :** सूऽ जालें म्हाका आतां. तुका एक सांगतां वीणा, तूं लालाचेर मोग करशीत जाल्यार, सांगूं नज हांव कितें करीन तें... जीव लेगीत दीन.

**वीणा :** शी...शी...थुमेकाल...इतलें कित्याय कितें उलोवचें न्हय. [ खीणभर येवजून ] समज, खरोच तुवें जीव दिलो जाल्यार, खरो कोणें दिलो हें म्हाका केन्ना कळपाचें ना...लाव तुजो भावूच घेतलो. तुज्या खातीर दोन दुकां गळयतलो आनी एक दीस म्हाका येवन ल्हवूच कानांत सांगतलो 'शूऽ... कोणाक सांगूं नाका. सगळयांची व्हडली चूक जाल्या ... मेलो तो लाला आशिल्लो...' मागीर, हांवें कितें करचें ?

**बाला :** पुणून तुका फटोवप इतलें सोपें गो ?...... हांव जिस्त लाला सारको आशिल्लों जाल्यार, लालाच आसचो नाशिल्लों ?...

**वीणा :** तेंय खरें...

**बाला :** [ खीण भर थांबून ] समजलों, तूं लालाचेरूच मोग करता .... बरें तर हांव तुमचे वाटेक वचना...

**वीणा :** पिशें लागलां तुका ? लाला म्हाका दोळयां मुखार नाका. [ वीणा आपले दोनूय हात बालाच्या गळयांत घालता ]म्हजो राया तो...[ बाला ताच्या कमराक हात घालता आनी व्हरता. ] तरी विचारतां. तूं बाला

मू ? लाला न्हय हाची खातरी आसा मू तुका ?... ताचें चित्र काडूं नज....कितेंय करीत तो...

[ दोगांय वतात. उषा आनी उल्हास येतात. ]

**उल्हास :** चित्र काडूं नज ताचें....कितेंय करीत तो !

**उषा :** पुणून ताका आमचो दुबाव कसो येतलो ? आमी इतलीं जतनायेन चलतात !

**उल्हास :** तुका सांगतां उषा. मात लेगीत पातयेवपाचो मनीस न्हय तो लाला... काल ताणें कितें केलें जाणां ? हांव ताच्या म्हऱ्यांतल्यान असो गेल्लों मात, खी : खी : खी : करून हांसूंक लागलो म्हाका. आमचो ताका दुबाव येवंक नाशिल्लो जाल्यार तो असो कित्याक हांसतलो आशिल्लो ?

**उषा :** केन्नाची खबर ही ?

**उल्हास :** रातीं जेवन आमी आगाशेर बसूंक नाशिल्लीं ? तेन्नाची.

**उषा :** तेन्ना हांवूय थंय आशिल्लें. म्हज्या लक्षांत येवंक ना. तो खांकलो जातलो पापया...तीं चिरुटां ओडटा न्हय तो ? ताच्या धुंवरान...

**उल्हास :** तो खांकलो जातलो आपलो हांसो लिपोवपा खातीर ...... हांव जिस्त समजलों. म्हाका फटयतलो तो ?

**उषा :** धर, ताका आमचो दुबाव आयलो. तो आमचें कितें वांकडें करतलो ?

**उल्हास :** कितें करतलो ? म्हाका खबर ना. पुणून तो पातयेवपाचो मनीस न्हय अितलें हांव जाणां....त्या भायर, तो आनी ताचो भाव सारके दिसतात !...

**उषा :** ताका तो कितें करतलो ?

**उल्हास :** कितें करतलो म्हळयार ? जण एकल्यान आपलें म्हुण एक वेगळेंपण सांबाळूं नाका ? ताका हाचें कांय ना....भेस तरी वेगळो करचो.. तोय बद्द भावा सारको करता....

**उषा :** भाव ताचे सारको करता...

**उल्हास :** एकून एकूच....आतां हेंच पळे, आमी आठ भाव....

**उषा :** आठूय सारकेच दिसतात ?

**उल्हास :** शे : आमी भाव म्हुण वळखूं येतात. पुणून जण एकलो वेगळो वेगळो-

**उषा :** जावं. पुणून लालाक भियेवपाची गरज ना. तो पात्रांवाक जावं आनी कोणाक आमच्या संबंदान कितेंय सांगीत हें म्हाका खरें दिसना. हांव

वळखतां ताका. भाव म्हजो तो. तो म्हजें कितेंच वांकडें करपाचो ना.

**उल्हास :** वांकडें कांय करचो ना गो तो. पुणून असो केन्नाय फकांडां मारतलो. मर्दींच हांसतलो. तिरश्या दोळयांनीं आमचे कडेन पळेतलो आनी पात्रांवाक मागीर आमचो दुबाव येतलो. घात मागीर...

**उषा :** आमच्या पात्रांवाक फकांडां बी कांय समजनात. तकलेवयल्यान वतात तीं ताच्या. ताका तितली बुद्द ना...

**उल्हास :** मातशें कळूं दी आमचें ताका– मागीर कोणाक बुद्द ना तें तुका समजतलें. तूं एक मतींत धर उषा, तूं पात्रांवाची प्रायव्हेट सेक्रेटरी. हांव ताचो मेनेजर. आमचें पोट ताचेर आधारून आसा.

**उषा :** [ हांसता ] भियेवं नाका तूं. आमच्या पोटाआड कोण येवपाचो ना.

**उल्हास :** उषा, एक विचारूं तुका ?....

**उषा :** विचार...

**उल्हास :** तुका वायट दिसचें ना मू ?

**उषा :** ना...

**उल्हास :** तुका घेवन पात्रांव मर्दीं मर्दीं खंय खंय वता. मुम्बय, दिल्ली ... तो तुजेर मोग–बीग करिना मू ? प्रायव्हेट सेक्रेटरींक आनी बॉसांक सदांच बरें म्हणटात...तशें कांय ना मू तुमचे भितर ?

**उषा :** तशें कितें आशिल्लें जाल्यार ताईबाय म्हाका तागेर रावंक दिताली रे पापया ?.... पात्रांवांक तूं वळखना. काकुळट दिसता म्हाका ताची. कोटयांनीं रुपये आसात ताचे कडेन. पुणून बावडयाक सुख ना .... जिणे सगळें रितें–रितें जालां ताचें.

**उल्हास :** तूं ताचेर मोग करिना मू ? सांबाळून आं....काकुळटींतल्यान केन्नाकेन्न मोग जल्मा येता, जाणा मू ?

**उषा :** हांव मोग एकल्याचेरूच करतां....[ उल्हासाचो हात हातांत घेवन ]

**उल्हास :** कोणूय पळेत आमकां पापया....

**उषा :** पळोवं दी. म्हाका कोणाची पर्वा ना...परतें म्हाका बरें दिसतलें, कोणेय पळेल्यार आमकां.

**उल्हास :** पुणून उषा, आमच्यो जाती ?...

**उषा :** आतां तें उरूंक ना. उरूंक जायना.

**उल्हास :** लोक अजून तशें मानिना उषा...

**उषा :** आमी तांकां देख घालून दिवंया...लोकांक देख घालून दिवची पडटा. ते बगर ते मानिनात.

**उल्हास :** आसा मू येदें काळीज तुका ?

**उषा :** दुबाव आसा ? फाटलें फुडलें सगळें येवजून हांवें हें पावल घालां...

**उल्हास :** तशें जाल्यार मागीर भंय ना. तूंच ऐन त्या वेळार फाटीं सरशीत म्हुण म्हाका भंय दिसतालो...

**उषा :** हांव तितलें भित्रें न्हय... [ दोगांय वतात ... ताईबाय येंता. चाकांच्या एका कदेलार बसल्या. आवडू आनी लाला कदेल धुकलतात. ]

**ताईबाय :** हय रे लाला, सोनुबाब जिवाक खूबूच भियेता खंय ? हें खायना, तें खायना म्हुण कितें कितें आयकूंक येता.

**लाला :** हय...ताका गोडें मूत....त्या भायर काळजाचें आसा...

**ताईबाय :** कितलो पयसो आसतलो रे ताचे कडेन ?

**लाला :** अख्खो संवसार विकतो घेवपा इतलो...

**ताईबाय :** कितें एकएकल्याचें पळे, घर भरून दार ओतता...तरूय सुख ना.... [ आवडू आसा-शें पळोवन ] आवडू, म्हजो लेंस हांव कुडींत विसल्लें. घेवन येशीत ? [ आवडू वता ] हय रे लाला, उषाक आनी उल्हासाक बरें म्हणटात तें खरें ?

**लाला :** आमचे भितरूच दवर. खरें तें.

**ताईबाय :** अशें केन्ना जावंचें ना. लज मरे आमकां ही.

**लाला :** तातूंत लज कसली ?

**ताईबाय :** कसली म्हळयार ? तूं कोण ! तो कोण ! उषाचो बापूय आज आशिल्लो जाल्यार ताका जीव दिवपाक इतलें पुरो जातलें आशिल्लें. हांवें ताका बेश्टें सोनुबाबागेर धाडलें. पच्छात्ताप जाता आतां म्हाका. घरांत ताका कितें उणें आशिल्लें ? पुणून शिकलां न्हय ? ताचो कितेंय उपयोग जावंक जाय म्हणपाक लागलें. जोडटलें म्हणपाक लागलें. तांतल्या तातूंत, म्हळें, बऱ्या मनशागेर दबल्लेलें बरें. म्हुण सोनुबाबा कडेन उतर घालें. आतां थंय रचून हों नांवरुपां करता ? लोक कितें म्हणटलो म्हाका ?

**लाला :** लोक आपणाक जाय तें म्हणटलो. तूं कोणाचें तोंड धरतली ?...पुणून उषा करता तें वायट अशें हांव मानूंक तयार ना. तें सामकें ल्हान न्हय. आनी तोय वायटसो भुरगो न्हय. बऱ्या घराण्यांतलो आनी बरो शिकिल्लो.

**ताईबाय :** पुणून जातीन रे ?

**लाला :** कोणूय जायना. मनीस न्हय जाला व्हय तर तो ?

**ताईबाय :** तुजेकडेन कशें उलोवचें म्हाका समजना, बाबा...पुणून अशें केन्ना घडूंक ना...घडचें ना.

**लाला :** घडूंक ना हें खरें न्हय. खूब कडेन घडलां....त्या भायर घडचें ना अशें तुज्यान म्हणूं नज....परतें, अशें घडचें म्हुण जायते जाण वावुरतात.

**ताईबाय :** जाती भायर चली दिवची म्हणटात ?

**लाला :** हय. ते कितें सांगतात तें आयकलां व्हय तर तुवें ? एका-एका घरांत कांय अरवळां, पिशीं जल्मा आयिल्लीं आसतात. तीं भितल्ले-भितर लग्नां केल्ल्यान खंय. तेंच तेंच रगत घोळटकूच अशें जाता...

**ताईबाय :** तें म्हाका समजना. पुणून हांव असलें कांयच आयकुपाचें ना. हांव केन्नाच कोणाचें आयकून येवंक ना...

**लाला :** तूं दुसऱ्याचें आयकुपाची ना हें बरोबर न्हय. दुसरींय तुजें आयकुपाचीं नात. ती आनीक अप्रतिष्ठा नाका. तुवें तुजे मर्यादेंत राविल्लें बरें. काळ बदल्ला. फाल्यां समज, उषा उल्हासाक घेवन पळून गेलें जाल्यार कितें करतली तूं ?

**ताईबाय :** तेंय खरें...काळ बदल्ला हातूंत दुबावूच ना. आता हेंच पळे, तो बाला....म्हज्या फाटल्यान लागलो, सोनुबाबाक जेवणाक आपय म्हुण... वांगडा वीणाकूय आपय म्हुण. हांवें तुमकां केन्नाच कितेंच ना म्हळां रे ? आपयलीं. एकाच दिसांत ताचें वीणाचेर मन बसलें आनी आतां तो वीणा-कडेन लग्न जातलो म्हणटा !....बरें आसा...पुणून तो ताका घरांतूय घेवन आयलो.आंकवार चलयेक लग्ना आदीं घरांत हाडप हें केन्ना कोणे आय-कल्लें ? काळ बदल्ला, दुसरें कितें ! आयज पार्टी दवल्ल्या. बरें आसा. पुणून नाचूय दवल्ला. फिरंग्यां मुस्तींत लेगीत आमगेर नाच येवंक नाशिल्लो ! काळ बदल्ला आनी कितें !

**लाला :** आज तो आपणालें आनी वीणाचें थल्लां म्हुण लोकांक सांगपाचो आसा.

**ताईबाय :** ताका कोण आडायतलो ?

**लाला :** कोण आडायतलो ? हांव जाणा...

[ आवडू येता. ]

**आवडू :** घे बाय, लेंस तुजो...

**ताईबाय :** बरें जांव तुजें. आतां म्हाका मातशे वोतांत व्हरात.

[ सोनुबाब आनी श्रीकान्त येतात. ]

**ताईबाय :** तुमची सरबराय बरी जाता मू ? आगळें उणें कितेंय जालें जाल्यार, आपलेंच घर कशें समजून मागून घेवचें. हांव सगळेकडेन पावना. अशी ही मोडून पडल्या न्हय ?

**सोनुबाब :** तें बरें आसा. आमचो हुसको करूं नाका. मुदांसाक आयिल्ले भाशेन तुमगेर आमी रावल्यात.

**ताईबाय :** रातीं न्हीद बी बरी पडली मू ?

**सोनुबाब :** म्हाका हालीं न्हिदूच सारकी पडना.

**ताईबाय :** म्हाकाय सारकी पडना. पुणून म्हजी उतार पिराय. तुमी म्हजे परस कितले-शेच ल्हान मू हो...

**सोनुबाब :** पुणून म्हाका हुसके आसात तितले तुमकां आसात व्हय ?

**ताईबाय :** तुमकां पथांय खूब म्हुण आयकलां.

**सोनुबाब :** हय. शीत तर सामकेंच गेलें. साकर सोडली. तेल-तूप सोडलें. आतां मिठूय सोड म्हुण सांगलां दोतोरांनी.

**ताईबाय :** म्हणटकूच तुमी जेवतात खातात कितें तर ? [ आवडूक ] आगो, मातशें वोतांत व्हर गो म्हाका.

**सोनुबाब :** हांव व्हरतां. [ कदेल धुकलतात. आवडू ‘ नाका नाका ’ म्हुण मुखार येता. ताईबाय आनी सोनुबाब वतात. ]

**लाला :** [ श्रीकान्ताक आडावन. ल्हवूच ] येतलीं मरे तीं ?

**श्रीकान्त :** येतलीं तर !

**लाला :** कितल्याक पावतलीं ?

**श्रीकान्त :** आतां पावपा जालीं.

**लाला :** आनी पावलीं नात जाल्यार ?

**श्रीकान्त :** समज पावलीं नात. जाल्यार तूं कितें करतलो ?

**लाला :** कितें करतलों ? तुजें सगळें बिंग भायर काडटलों.

**श्रीकान्त :** म्हजें बिंग ? म्हजें कसलें बिंग ?

**लाला :** हांव सगळ्यांक सांगतलों कि हो श्रीकान्त दिसता तसो न्हय. ताञीबायचें आमंत्रण मेळनाफुडें तो हांगा आयलो. पुणून येतना अेके चलयेक घेवन आयलो. तिका अेका हॉटेलांत दवल्ल्या. तुर्त तांचें हांगा हनिमून चल्लां म्हुण.

**श्रीकान्त :** ( तापून ) राधेचे आनी म्हजे संबंद गुरू शिष्येचे. लाला, तिका हांवें हांगा आपयल्या ती म्हजी बऱ्यांतली बरी शिष्या म्हुण. तुवें जें नाटक रचलां तें बेस बरें जावचें म्हुण.

**लाला :** कोणाक सांगता तूं हें ? तुजे आनी तिचे संबंद गुरू शिष्येचे ?

**श्रीकान्त :** देवाच्यान तर...तितलेच पवित्र.

**लाला :** कोण खरें खातलो हें ?

**श्रीकान्त :** कोण म्हळ्यार ?...सगळेच. खरें तें.

**लाला :** कोणाक खरें दिसपाचें ना.

**श्रीकान्त :** खरें तें खरें न्हय ?

**लाला :** लोकांक खरें दिसना तों मेरेन न्हय.

[ पुरसो येता ]

**पुरसो :** जेवण जालें. चलात. [ पुरसो वता. ]

**लाला :** चल श्रीकान्त...जेवण जालें.

**श्रीकान्त :** तूं भियेवं नाका रे. तीं येतलीं. आत्तां येवपा जालीं. राधा म्हजी कोण म्हुण तुवें ताईबायक सांगलां ?

**लाला :** भाची म्हुण.

**श्रीकान्त :** पुणून तुवें नाटक कसलें रचलां तें अजून म्हाका सांगलें ना.

**लाला :** राधा येवं दी...मागीर सांगतां. [ वतात.]

[ स्टेज रिकामी उरता. अितल्यांत पुरसो येता. फाटल्यान राधा आनी ताची आवय गिरिजाबाय. दोगांयच्या हातांत सूटकेसी. ]

**पुरसो :** मातसो वेळ हांगां बसात तुमी. हांव लालाबाबाक सांगून येतां तुमी पावलीं म्हुण. [ वता. ]

**गिरिजा :** केदें व्हडलें घर गो हें ! पालास मुगो सामकी. आनी कितलें सुंदर पोरसूं गो ! असले सुवातेर पावतकूच म्हाका बरें ऽ दिसता. हें वैभव

पळेतकूच म्हज्या भुरगेपणांतली याद जाली म्हाका. तुजो आजो गिरेस्त आशिल्लो. असलेंच व्हडलें घर आशिल्लें ताचें. घरांत चाकर–माने, वावराड्यो! कारभारी पळेलो मू तुवें ? तसो एक कारभारी. एक घोड्या-गाडी लेगीत आशिल्ली. म्हज्या भुरगेपणांत हांव सदांच घोड्या–गाड्येंत भोंवलां. [ हुस्कार ] हांव जेन्ना तुज्या फुडाराचें येवजितां तेन्ना म्हज्या दोळ्यां मुखार असलें घर उबें रावता.

**राधा :** नशीब जाय आई असलें घर मेळपाक.

**गिरिजा :** जाय गो. पुणून म्हाका सदांच दिसलां. म्हाका जें उपरांत तरणे-पणांत चुकलें तें सगळें तुका मेळचें. आनी देवाकडे मागतां, म्हज्या राधाक हें सगळें दी. तुका लुगटां–बिगटां उमळचीं पडटात, रांदचें–बिंदचें पडटा तेन्ना म्हाका चर्रर जाता गो.

**राधा :** म्हाका केन्ना ताची खंत जावंक ना आई.

**गिरिजा :** तुका जावची ना. तुवें खंय कितें पळेलां ? वैभव तुज्या वांट्याक केन्ना आयलेंच ना. देखून तुका ताचीं सपनांय पडनात. म्हाका पडटात. हांव मनांतल्या मनांत म्हणटां म्हज्या राधाक असलेंच एक मोटें घर मेळचें. घर भरून दार ओतता इतलें ताचे कडेन आसचें आनी त्या घरांत इल्लो–सो एक कोनसो ताचे आवय खातीर आसचो. तुजें कूळ बरें, रूप बरें, आंगलोट बरो. सुंदर तूं...हांव तुजे येदें आशिल्लें तेन्ना दिसतालें तितलें न्हय गो... पुणून तातूंत तुजो गुन्याव ना. तुज्या बापायचें थोडें आयलां तुका. तरी आसतना किरकोळांतलें न्हय तूं. नदरेंत भरता. दिश्ट लागत तुका कोणायची म्हुण केन्ना केन्ना भंयूय दिसता म्हाका...तुका असलेंच घर मेळूंक जाय. लालाबाबान श्रीकान्तबाबूक सांगून मुजरत तुका आपयलां. तें कित्याक तर ?

**राधा :** म्हाका दाखोवपाक हांगा हाडलां तर ? श्रीकान्तबाबून तशें कांय सांगूंक ना म्हाका.

[ लाला येता. गिरिजाबायक सांगता. ]

**लाला :** पावलीं तुमी ? म्हाका हुसको जाल्लो. हांव तुमची वाट पळेत आशिल्लों. सामान खंय आसा ? [ राधेक पळोवन ] आनी हें राधा दिसता.

**गिरिजा :** श्रीकान्तबाबून तुमकां ताच्या संबंदान सांगलां जातलें.

**लाला** : [ राधेचेर नदर थीर दवरून ] सांगिल्लें.

**गिरिजा** : श्रीकान्तबाबू आमचो एक बरें–मागतो...

**लाला** : [ नदर हालयनासतना ] जांणां हांव. तुमकां वाटेर त्रासबीस जाले नात मू ? आतां अशें करात. आमचो कारभारी तुमचे खातीर राखून दवल्लेली कूड दाखयतलो... थंय उदक–बिदक तापोवन दवल्लेलें आसा, हात–पांय धुयात. तों मेरेन जेवण येतलें...मातसो विसंव घेयात. उपरांत हांव सांगतां आयज कितें करपाचें आसा तें. श्रीकान्तान अदमास दिला जातलो.

**राधा** : ताणीं तशें आमकां कांयच सांगूंक ना.

**लाला** : कांयच सांगूंक ना ?

**राधा** : ना. आयज तुमगेर आमंत्रण आसा हाचे पेल्यान कितेंच सांगूंक ना.

**गिरिजा** : कसलोय तरी प्रोग्राम असतलो अशें धरून आयल्यांत आमी.

**लाला** : आनीक कित्याक आपयतलों हांव तुमकां ?

**गिरिजा** : राधाचो नाच बी दवल्ला जातलो.

**लाला** : राधाचो एकल्याचो नाच न्हय. आज आमगेर एक पार्टी आसा. बॉल डान्स दवल्ला. तातूंत म्हाका एक सगळयांत सुंदर चली पार्टनर म्हुण जाय आशिल्ली. म्हुण राधाक आमंत्रण केलें.

**राधा** : हांव सुंदर ?

**लाला** : अशें लजलें कित्याक ?

**राधा** : हांव सुंदर न्हय.

**लाला** : तें मागीर पळोवंया. आतां तुमी थोडो वेळ विसंव घेयात. आनी [राधाक] हें पळे राधा, कुडींत कांय ड्रेस हाडून दवल्ल्यात. तांतलो पळे तुका खंयचो मानवता तो. आयज सांजे न्हेसप तुवें तो. तुका तो मानलो जाल्यार फाल्यां वतना व्हेल्यार जालो.

**राधा** : तो ड्रेस न्हेसून हांवें कितें करपाचें ?

**लाला** : कांय ना. एक सुंदर पिसोळें चंद्रार झेप घेता ते भाशेन तुवें आयचे पार्टींत वांटो घेवपाचो. [ गिरिजाबायक ] आनी तुमची जी कितें फी थरिल्ली आसा ती तुमकां मेळटली. श्रीकान्ताक सांगून दवल्लां हांवें.

**गिरिजा :** आमकां मात लेगीत अदमास लागूंक दिलो ना श्रीकान्तबाबून हे गजालिचो.

**लाला :** बरें तर, हांव आतां वतां. सगळे म्हजी वाट पळेत बसल्यात जातले थंय. मदींच उठून खंय गेलो काय म्हणटले. कारभारी तुमकां तुमची कूड दाखयतलो. [ वतां वतां थांबून ] आनी हय, तुमी पावल्यांत म्हुण येन्ना कोणाक कळूंक जायना. हांव मागीर येवन तुमकां सगळें समजावन सांगतां. [वता.]

**पुरसो :** [ एक सूटकेस हातांत घेवन ] चलात, येयात म्हज्या फाटल्यान. [वता]

**गिरिजा :** कितलो लक्तुबायेचो भुरगो ! उलोवप कितलें तोखणायेचें. चलप कितलें सुंदर. ( राधाक हाताक धरून हालोवन ) कितें गो, सपनांत बी आसा काय कितें गो तूं ?

**राधा :** ना· लालाबाब म्हणटात ते हेच ? आमकां आमंत्रण केलां तें हाणींच ?

**गिरिजा :** तोच तो. घेतली काय कितें गो तुवें झेप पिसोळया भाशेन येन्नाच चंद्रार ? चल. तो कारभारी पळे आमची वाट पळेत उबो रावला थंय...

**राधा :** ( सपनांत आशिल्लेवरी ) चल...( वतात )

पड्डो पडटा

## देखाव दुसरो

[त्याच दिसा दनपरां. ताईबाय एकलीच दिसता. ]

**ताईबाय :** आवडू ए आवडू ! खंय काडून गेलें समजना. आज कोणा-कोणाक आपयल्यात तांची वळेरी घेवन यो म्हुण सांगिल्लें. येदो वेळ कित्याक लागचो ताका ? आवडू ए आवडू, एकलें आसतकूच जीव सामको खावंक येता. [ पुरसो येता ] जांव बाबा, तूं आयलो. आवडूक धाडिल्लें वळेरी हाडपाक. खंय घुसपलें काय तें ? केदो वेळ जालो हांव हांगा आसां. एक मनीस दिश्टी पडचो आशिल्लो !

**पुरसो :** कोणूच दिश्टी पडलो ना, बाय ?

**ताईबाय :** कोण ना, म्हळयार ! आनी लोकसंख्या वाडल्या, लोकसंख्या वाडल्या म्हुण वचत तो बोबो मारता. हेथंय वचून वळेरी घेवन येवपाक येदो वेळ लागता व्हय रे ? नवी तयार करूंक बसलां काय कितें तें ? [ आवडू

येता. ] जांव सायबिणी ! आयलें एकदांचें...इतलो कळाव कित्याक लागलो गो तुका ? हांगा म्हाका सामकी उबगण येवपाक लागली. एकलें-एकलें म्हुण रावं येता ? नाका नाका जाल्लें येवजता.

**आवडू :** बाय, तुवें सांगिल्लें सेक्रेतारिच्या दाव्या गवेतांत आसा म्हुण वळेरी. थंय सोद-सोद सोदली....निमाणें उजवे वटेनच्या गवेतांत मेळ्ळी.

**ताईबाय :** हाड ती हांगा. [ वळेरी पळेता ] कोणाकोणाक आपयल्यात तें म्हाका पळोवंक जाय. हालीं लोकांच्या नांवांक आनी रुपांक पडच ना. बरें ऽ नांव म्हुण रूप पळोवंक वशीत जाल्यार देवा म्हज्या ! वेगळेंच न्हय, उरफाटें. हाका लागून जाता अशें, मनशांक सारके वळखूंक येनात. मागीर नाका जाल्लेच लोक येतात. हाका दिसता ताणें आपयला जातलो. खरो कोणेंच आपयल्लो नासता. फाटीं एक खबर आयकल्ली. आयकता मूगो तूं ? एकल्यागेर खंय अशीच पार्टी दवल्लेली. तूंय आयक पुरशा. हालिंच्यो पाटर्यो नकळ तूं ? कोण कोण हें वळखुंकूच येना असल्या लोकांच्यो. पयलीं अशें नाशिल्लें. पयलीं एक एकल्याक ताच्या आज्या पणज्या सयत वळखताले. तर कितें सांगीं ? ते पार्टींत खंय इतले लोक आयले...इतले अनवळखी आयले कि जाणें ती पार्टी दवल्लेली ताची घरकान्न आपणागेर ही पार्टी चल्ल्या म्हणपाचें विसल्ली. आनी घोवाक ' या आतां आमी घरा ' म्हुण सांगपाक गेली. तशें आज आमगेर घडचें न्हय म्हुण म्हणटां. आयकता तूं पुरशा ? तशें घडूंक फावना.

**पुरसो :** तशें कांय घडपाचें ना बाय...

**ताईबाय :** सांगूं येता ? सगळयांक कोण वळखता ? कोणूय येवं येता. असो नाका जाल्लो कोणूय आयिल्ल्याचो दुबाव आयलो जाल्यार, आयकता तूं ? ताच्या तोंडाकडेन पळेत राव आनी मनांतल्या मनांत अेक, दोन, तीन, चार करून आंकडे मेज. धां चेर पावचे पयलींच ताचे दोळे तुका सांगतले हो आपयनासतना आयला म्हुण. हांव तशें करपी. म्हाका दुबाव येतल्याच्या तोंडा कडेन पळेत रावपी.

**पुरसो :** तसो प्रसंग येवचो ना बाय. कांय वेंचीक लोकांकूच आमंत्रणां गेल्यांत. आज तितलेच येतले.

**ताईबाय :** कांय सांगू नज. डान्स दवल्ला न्हय ? कोणाय बरोबर नाचूंक

मेळटा म्हुण कोणूय अुठून येतलो. सारकें इंन्स्पेक्शन काय कितें म्हणटात तें जावंक जाय. [ वळेरी पळेता ] हो आतां कोण? मारिओ फर्नान्डिस...रूप लक्षांत येना. असल्याच नांवाचो फाझेदांत आशिल्लो. तो? तो पुर्तगालाक गेलो मरे. ताका? आं...तो बार घालून बसला तो पणजे? ताकाय आपयला? जांव. ...आनी हो कोण? दिलीप नायक. मडगांवच्या नायकांलो कोणूय आसुंये. पयलीं नायक-नाईक फरक करताले. आतां सगळे नायक! हालीं जात, धर्म बी सगळें बुडलां. जांव, येवंदी ताका. जायना कोणूय. लाला बालाचे इश्ट आसतकूच जाले. एक, दोन, तीन, चार.... चाळीस पन्नास जाण येतले? सगळी वेवस्ता सारकी जाल्या मू? यो, मातशी नदर मारून येवंया सगळेकडेन.

[ कदेल चलपाक लागता. पुरसो आवडूय वतात. थोडया वेळान लाला राधाक घेवन येता. ]

**लाला :** आतां मातशें दोन पावलां मुखार वच. मातशें हे वाटेन तोंड कर. फाट कर. शाब्बास! पुण तूं अशें थरथरता कित्याक?

**राधा :** भंयान जावंये.

**लाला :** भंय! कोणाचो? आनी कसलो? तुवें बॉल डान्सांत केन्ना वांटो घेवंक ना?

**राधा :** घेतला....पुणून व्हडले व्हडले आनी अनवळखी लोक येतले खंय. न्हय? त्या भायर....

**लाला :** म्हजोय भंय दिसता तुका?

**राधा :** थोडो भोव....

**लाला :** तुका लज जाय सारकें कितेंय करूंक लायतलोंशें दिसता तुका?

**राधा :** श्रीकान्तबाबू म्हणी...

**लाला :** तो तुका कित्याय कितें सांगता जातलो...

**राधा :** तशें न्हय...

**लाला :** तूं ताचें कांय आयकूं नाका. हांव सांगतां तुका. तुवें कोणाक भियेवपाची गरज ना. जांकां तूं व्हडले व्हडले मनीस म्हणटा ते दाखयतात व्हडले म्हुण. पुणून व्हडले न्हय ते. ते हेरां किरकोळ लोकांसारकेच किरकोळ.

तांच्या पाइट. तांकां भियेवपाची गरज ना. [ श्रीकान्त येता ] हो पळे आयलो. तुजीच खबर सांगतालों हांव. श्रीकान्त, तुवें हाका गरज नासतना भिवयलां.

**श्रीकान्त :** हांवूच भियेलां. पार्टी म्हुणं मोटे उमेदीन आयिल्लों. पुणून तुवें कितें येवजिलां हें लक्षांतूच येवंक ना म्हज्या. खंयचे भानगडींत पडलों, काय शें जालां.

**लाला :** [ राधाक ] हो तुका बेश्टो भिवयता. ताका दिसता, हांव व्हरून तुका रानांत सोडटलों. तूं भियेंव नाका. मातशें दोन पावलां मुखार वच. हे वाटेन पळे. [ श्रीकान्ताक ] ही तुजी शिष्या आसत ... पुणून आयच्या दिसा ही तुजी भाची. लक्षांत आयलें ? [ ल्हवूच ] तुजी खरी भाची कशी दिसता ?

**श्रीकान्त :** वायटशी न्हय. मातशी काळी मात.

**लाला :** जांव, काळयो चलयो वायट नासतात. द्रौपदी काळसारूच आशिल्ली. देखून श्यामा म्हणटाले तिका. आनी तरी ती सुंदर आशिल्ली. पांच घोव आशिल्ले तिका पांच. पुणून सोड. आज तुजी भाची ही. आज येतल्यो तांच्यांत सगळयांत चड सुंदर चली.

**श्रीकान्त :** [ राधाक ] सारकें समजून घे. कितें कितें करपाचें आसा तें. सगळे तुका पळेतले. पुणून तूं भियेवं नाका. तशे कोण तुका वळखुपाचे नात. म्हजी भाचीच म्हणटले तुका.

**लाला :** बाकिचे वळखुचे नात. पुणून ताईबायचें सांगूं नज. ती मनशाक तोंडा-वयल्यान वळखता आनी कोण कितें कात तें जिस्त सांगता. पुणून आमचे भितरूच आं ! ती राधाक वळखूंक ना. ना जाल्यार ती ताचे खातीर माळये वयली सगळयांत बरी कूड राखून दवरची नाशिल्ली. मागील दारांतली कूड दितली आशिल्ली.

**श्रीकान्त :** मागीलदारचे कुडींत म्हाका घाला.

**लाला :** पळेलें ? हांवें सांगूंक ना ? ती मनशाचो पांवडो जिस्त वळखता...

[ राधाली आवय येता. ]

**गिरिजा :** रागार जांव नाकात आं, हांव आयलें म्हुण. म्हज्यान कुडींत रावं नज जालें. केन्ना काय धुवेक नव्या ड्रेसांत पळेन–शें जालें.

**लाला :** तुका सांगिल्लें तूं कुडींतली भायर सरची ना म्हुण. 'ही कोण' म्हुण कोणें विचारूंक जायना आमकां. घात जातलो !

**गिरिजा :** हांव सामकें माजरा पावलांनी आयलां. कोणेंच म्हाका पळोवंक ना. म्हाका नव्या ड्रेसांत राधाक पळेन दिसलें. म्हुण ल्हवूच आयलें. रोखडें वतां. वा ! कितलो सुंदर ड्रेस ! पोंग घेवं नाका गो. सरळ उबें राव. तुमीच वेंचून काडला जातलो हो ड्रेस, लालाबाब.

**लाला :** हांवें न्हय. हांवें चार–पांच मॅक्सी हाडून दवल्लेल्यो तांतली राधेन ही वेंचून काडली.

**गिरिजा :** तुमकां हीच मानवतली हें ताडलें जातलें.

**राधा :** आई !

**गिरिजा :** मातशी फाट कर गो. पळोवया कशें दिसता तें. आतां फुडो कर. हें राधा म्हळयार पळेतां तेन्ना नवें ताल्ल दिसता. श्रीकान्तबाबू ताच्या आंगलोटाची खूब तोखणाय करता ती बेश्टी न्हय. हांव ताची आवय म्हुण म्हणिना. पुणून खरेंच राधा लाखांत एक.

**श्रीकान्त :** हालीं तें धवशें जालां. ताका खावंक–जेवंक बरें घाल म्हुण हांवें तुका कितल्यो खेपो सांगलें.

**गिरिजा :** धवशें जालां तें ? ...आवय आवय. पळे ताका सारकें. रोजां झड-टात रोजां.

**श्रीकान्त :** हांगाचे हवेन जालां जातलें...

**गिरिजा :** हांगासल्ली हवा ? निकतींच तर पावल्यांत. पळेलें लालाबाब, श्रीकान्तबाबूची संवय आपलें तेंच खरें करपाची. तुमचें आमंत्रण आयलें. राधाक येवंक फावनाशिल्लें. पुणून श्रीकान्तबाबून हट धल्लो आनी ताका हांगा हाडलें–म्हळयार हाडलेंच. एक दीस ताका तळयेंत धुकलून उड-यलें न्हय ! नाच करूंक शिकतल्याक पेंवंक येवंकूच जाय म्हुण....

**श्रीकांत :** [काचाबूल जावन] ताच्याच बऱ्याक सांगिल्लें.

**गिरिजा :** हांवूंय तेंच म्हणटां. राधाचें बरें जावचें म्हुण श्रीकान्तबाबू कितेंय करीत.

**श्रीकान्त :** पुरो जाली आतां ही बडबड...लाला रावला आपल्यो सुचोवण्यो करपाक....आतां लोक येवपाचो जालो. त्या आदीं सगळें राधाक समजावन

सांगूंक जाय. यो. तुका हांव तुजे कुडींत व्हरून पावयतां...तुका थंयसून कोण येतात, कितें कात-सगळें पळोवं मेळटलें. तुवें सकल येवंक जायना.

**गिरिजा :** हांव वतां....तुमी कोण म्हाका पावोवपाची तकालस घेवं नाकात. थंयच्यानूच सगळें पळेतां. नाय जाल्यार, फाल्यां राधा म्हाका सगळें सांगतलेंच. रागार जावं नाकात आं आयलें म्हुण. रावं नज जालें म्हुण आयलें.

**श्रीकान्त :** चल, यो....आनिआनीक वेळ खावंक नाका. लोक आतां येवपा जाले. [तिका ओडटा.]

**लाला :** आनी हें पळे, तुका जेवण–खाण सगळें कुडींतच मेळटलें. उपकार करून थंयची खंयच वचूं नाका.

**गिरिजा :** म्हजो हुसको करूं नाकात तुमी...राधा पुण कितलें सुंदर दिसता ! हांव हे पिरायेचें आशिल्लें तेन्ना अशेंच दिसतालें. [ श्रीकान्त तिका ओडून व्हरता. ]

**लाला :** [राधाक] लजली लेगीत पळे कशी. वीस वरसांची चली जाल्लेवरी !

**राधा :** म्हाका लेगीत तशेंच जालां.

**लाला :** तुजें वयूच लजपाचें. त्या भायर तिणें तुजो समज करून दिला जातलो म्हजें मन तुजेर बसलां म्हुण. कितलीय जाल्यार आवय न्हय तुजी ? तिका तशेंच दिसपाचें. ज्यांगेर–ज्यांगेर म्हुण वाडिल्लयो चलयो आसात त्या सगळया आवयांक अशेंच दिसलां. घर पळेतात, चल्याक पळेतात. आनी आपली धूव हांगा पडची म्हुण आंवडेतात. म्हाका पळोवन तुवें लजपाची गरज ना. म्हजेर ताचो कांयच परिणाम जावपाचो ना....(राधेच्या दोळयांत दुकां येतात.) हें कितें ? तुज्या दोळयांत दुकां ?

**राधा :** हांव मातशें तोंड धुवन येतां. [वता. पुरसो ते वाटेनच्यान येता.]

**लाला :** पुरशेमाम, कोणाक कसलोच दुबाव येवंक ना मू ? सगळें सारकें चल्लां मू ?

**पुरसो :** सगळें जिस्ताजिस्त चल्लां.

**लाला :** तूं अेक कर. हे चलयेचे आवयचेर सारकी नदर दवर. मातशी हुतहुती ती. केन्ना घात मारीत सांगूं नज.

**पुरसो :** मातशी न्हय. बरीच हुतहुती. आतांच पळे, म्हजी नदर चुकोवन ती हांगा पावली.

**लाला :** खरो भंय आसा तो लोक येवंक लागतकच. तूं अशें कर, तिचे कुडीक भायल्यान खिळी घाल.

**पुरसो :** आनी ती भितल्ल्यान दार बडोवंक लागली जाल्यार ? घा पांच सगळें आर्दी येवजून दवरूंक जाय.

**लाला :** तिका सांग, हांवें तशें करूंक सांगिल्लें म्हुण. आनी तिच्या हातार शंबर शंबरांच्यो दोन नोटी दवर. वोगी बसपाचें मोल म्हुण–

**पुरसो :** तितल्यान आयकत मू ती ?

**लाला :** आयकतली...[ राधा येता. पुरसो वता. ]

**लाला :** जालें तूं सारकें ? घटकेंत...दुकां. घटकेंत हांसो. आमकां दादल्यांक केन्ना जमपाचें ना हें. [ घडयाळी कडेन पळेता. ] आतां वेळ जायत आयलो. आतां तुका सगळें समजावन सांगतां. तूं ह्या ड्रेसांत अप्सरा कशें दिसता. तुका हांवें अेक खेपे श्रीकान्ता वांगडा पळेल्लें. तेन्नाच तूं म्हजे नदरेंत भरिल्लें. आयचें हें नाटक रचलें तेन्ना सगळयांत पयली म्हाका तुजीच याद जाली. तूंच बेस बरें हें नाटक करतलें अशें दिसलें. कितें आसा, जाणा ?

**राधा :** आयकतां, सांगात.

**लाला :** प्रस्तावना–विस्तावना करूंक बसना. तूं शाणें आसा. सगळें समजतलें. म्हाका अेक भाव आसा. ताचें अेकले चलयेचेर मन बसलां. चली श्रीमंत...आनी गोमटी...तुजे अितली सुंदर न्हय पुणून बऱ्यांतली.... आयची पार्टी तिच्या भोवमानाक घडोवन हाडल्या.

**राधा :** तिचें ताचेर मन बसूंक ना ?

**लाला :** ती ताचे कडेन लग्न जावपाचें येवजिता. पुणून....

**राधा :** मोग दुसऱ्याचेर करता ?

**लाला :** तसो मोगबीग कांय करूंक येना तिका. श्रीमंताली धूव जाल्ल्यान लाडांत वाडल्या. श्रीमंतीचोच गर्व आसा तिका. फुलयल्यार फुलता....पुणून तिचें मन.

**राधा :** दुसऱ्याचेर बसलां.

**लाला :** तुका जिस्त समजलें.

**राधा :** आनी हो दुसरो तो.

**लाला :** तेंय तुका समजलें. तो हांव. आतां तूंच सांग. म्हजो भाव म्हजे परस कितलोसोच बरो. ताका सोडून म्हजेर मन बसप म्हळयार पिशी आसची पडली ना ती ?

**राधा :** [ हांसता. ] आनी भाव कसो-सो दिसता ?

**लाला :** तेंच सांगपाचें आशिल्लों. तो जिस्त म्हजे सारको दिसता. आमी जुंवळे.

**राधा :** दोगूय सारके दिसतात ?

**लाला :** भायल्यान. भितल्ल्यान दीस आनी रात इतलें अंतर आसा आमचे मजगतीं. म्हजो भाव सभावान सरळ. हांव जिस्त उरफाटों. आनी तरीय तिचें मन म्हजेर. ताचेर न्हय.

**राधा :** आनी तुमचें ? तिचेर आसा काय ना ?

**लाला :** म्हजें....अं....अं...

**राधा :** समजलें.

**लाला :** तसों हांव कोणाचेर मोगबीग करपी न्हय. आशिल्लों जाल्यार आज जें हें नाटक हांवें रचलां तें केन्नाच रचूंक पावचो नाशिल्लों. हांव काळ-जान घट. आतां तुवें करूंक जाय तें अशें.

**राधा :** सांगात, आयकतां...

**लाला :** आयचे पार्टीत हांव खंयूय जाल्यार, तुज्या लागसारूच आसतलों. खंयूय आसतलों. सांगूं नज. पुणून म्हजी नदर तुजेर आसतली. मर्दीं येवन, तुवें कितें करचें, कितें ना ह्यो सुचवण्योय दितलों. त्या त्या वेळार येवजता तश्यो. तुवें एकूच करपाचें. सगळयांची नदर आपणाचेर ओडून घेवपाची. तुजेभोंवतणीच सगळयांच्यो नदरो घुंवूंक जाय.

**राधा :** म्हजे कडल्यान हें जायत अशें दिसना...

**लाला :** जातलें, हांव जाणां. तूं कोणाचीच पर्वा करूं नाका. तुका कितेंय उलयन दिसलें, उलय. हांसचें-शें दिसलें, हांस. अवचित् सगळयांक सोडून कडेक वचून बसचे-शें दिसलें. तशें कर. तूं जें जें करशीत तें तें हांव सोबोवन व्हरतलों. हांव तुज्या मोगांत पडलां हाची तांकां सगळयांक खातरी करून दितलों.

**राधा :** [ खुशालभरीत जावन ] खरेंच ?

ाला : पुणून तूं म्हज्या भावाच्या मोगांत पडलो अशें तुवें सगळ्यांक भासोवंक जाय.

ाधा : पुणून ताचें खरेंच ते चलयेचेर मन बशिल्लें आसत जाल्यार म्हजेर नदर लेगीत घालपाचो ना तो.

ाला : पिसो आसत जाल्यार घालचो ना. पुणून तूं एक लक्षांत धर. ताचे दोळे वीणाचेर थिरावल्ले उल्ले जाल्यारुय जमिल्ल्या चलयांत सगळ्यांत सुंदर चली तूंच म्हणपाचें वीणाच्या दोळ्यांतल्यान ताका कळटलें. तें मत्सरान जळटलें...

ाधा : तशें जाल्यार तो तिचेर अदीक मोग करतलो.

ाला : तुका अशें दिसता ? तशें जाल्यार मागीर तुका मोग म्हणटात तो कितें हें खबरूच ना म्हणचें पडलें. तसलें [नाटकांनी घडुंये. खऱ्यांनी न्हय... तशें जावचें ना. हांव सांगतां तशें तूं करशीत जाल्यार बाला...ताचें नांव हें...तुज्याच मोगांत पडटलो. ताका जागोवंक जाय. वीणाक ताचो मोग जागोवंक येवंक ना.

[ इतल्यांत श्रीकान्त खासावीस जावन येता. ]

**ीकान्त** : घात जालो ! आमचें बिंग भायर फुटलें. सगळ्यांक खबर कळ्ळी.

**ाला** : कितें जालें ?

**ीकान्त** : हांव गिरिजाबायक तिचे कुडींत पावोवंक म्हुण गेल्लों. माळयेचीं सपणां चडलों. कोण नाशिल्लो वयर. वारांदार पावल मात् घालां... मुखार आवडू !

**ाधा** : आवडू ?

**ीकान्त** : ताईबायली सांगातीण.

**ाला**...तुवें ताका पळोवंक नाशिल्ले वरी करून मुखार वचपाचें.

**ीकान्त** : हांव तशें करूंक वतालों. पुणून दोगांयची नदर एकामेकांचेर पडूं नाका, दोगांय एकामेकांक वेंगेंत घेवन रडपाक लागलीं न्हय रे ! गिरिजाबाय आनी आवडू पयशिलीं सोयरीं खंय....शाळेंत दोगांय वांगडा शिकिल्लीं दिसता. मागीर तांची ताटातूट जाली. दोगांय भायर पडलीं जातलीं अशें दोगांय मानतालीं...आज वीस वरसांनीं तीं मेळटात....पळेत जाल्यार दोगांय जितीं आसात ! आतां हांवें कितें करचें ? तीं पळे

दोगांय एकामेकांच्या गळयांत हात घालून मोटया-मोटयान उलयतात. दोगांय एकाच वांगडा उलयतात. आतां कांय ना. आतां एकूच वाट उल्ल्या. पपा काडप. [ राधाक ] राधा, आनीक वेळ होगडावं नाका. धांव आनी ड्रेस बदलून यो. हांव ताईबायक सांगतां, तुका तेलेग्राम आयलो.... तुझी आजी भायर पडली म्हुण. आनी त्याखातीर तुका रोखड्या रोखडें वचचें पडलें. हांवूय तसलेंच किते तरी ताल मारतां. आतां आनिआनीक येवजूंक बसूं नाका. चल, ड्रेस बदलून यो बेगीन....आत्तांच्या आतां वचुंया आमी. नाजाल्यार माणसुकी ना.

**लाला :** जांव. जालें तें जालें. तुमी वचपाची गरज ना. सगळें सांबाळून घेतां हांव तें.

[ अितल्यांत गिरिजाबाय भितर सरता. ]

**गिरिजा :** अजाप ! अजाप म्हळयार. असलें तसलें न्हय. चमत्कार सामको.. [राधाकडेन पळोवन] हांवें तुका आवडुची खबर जायत्या फावटी सांगिल्ली.. याद आसा ? आमी पयसुल्लीं सोयरीं. पुणून म्हजी जिवाभावाची मैत्रीण तें.... ते मेलें जातलें अशें हांव समजल्लें....पुणून किते सांगितलें ? जितें आसा न्हय गो तें...सामकें तट्टटीत. हांव सपनांत आसां काय जागें हेंच म्हाका समजना जालें. हांवें आंगाक चिमटो लेगीत काडून पळेलो न्हय गो !...वीस वरसांनी आवडू दिश्टी पडलें. म्हज्या काळजाचो गोंडो तो ! ...मागीर किते विचारता, सांगल्यो ताका हांवें म्हज्यो सगळयो खबरी. सगळयो सांगल्यो. लग्न कशें जालें, कशें हांव फटवलें, सगळें सगळें सांगून अुडयलें... [ हेरांकडेन पळोवन] तुमकां कळपा ना म्हाका किते जालां तें...भुरगेपणांत लोक आमकां भयणी म्हणटाले.

**लाला :** पुणून तूं हांगा कशी पावली म्हूण ताणें विचाल्लें ना ?

**गिरिजा :** विचाल्लें तर !

**लाला :** मागीर तुवें किते सांगलें ?

**गिरिजा :** हांव किते धनर व्हय तर ? हांवें सांगलें हांव बँड वाजोवप्यां वांगडा आयलां म्हुण.

**लाला :**
**ंत :** } आंऽ

**गरिजा :** पुणून तें घल्लें ना. बँण्ड वाजोवपी दिसता, सगळे किरिस्तांव-मागीर हांवें कितें केल्लें जाणा ? ताका सोंपून घालो. अेक अुतर कोणाक सांगचें ना म्हुण अुतर घेतल्लें आनी सगळें सांगून मेकळें जालें.

**ाला :**
**ीकांत :** } सगळें सांगलें ?

**गरिजा :** सगळें. कांयच लिपोवन दवल्लें ना.

**ीकांत :** तूं सगळें कितें कपल सांगतली ? तुका पयलीं सारकें कितेंच खबर ना.

**गरिजा :** तें हांव जाणां. पुणून हांव बदतां ? हांवें ताका एक ताल माल्लें. खरें-शें दिसपा सारकें.

**ाला :** कितें म्हुण माल्लें ?

**गरिजा :** कित्याय कितें. सपनांतलें...हांवें सांगलें, लालाबाबाचें मन म्हजे धुवेचेर बसलां. चड बोवाळ करिनासतना तिका घरांत हाडप....सगळयांक दाखोवप आनी चकीत करप. ह्या खातीर तिका श्रीकान्तबाबूची भाची करून आज हांगां हाडल्या. धुवें वांगडा हांव हांगां पावलें.

**राधा :** तुवें अशें सांगपाचें न्हय.

**श्रीकांत :** घात जालो आतां. ताअीबायक अितल्यान सगळें कळलांय जातलें. कितेंच लिपून अुरूंक ना जातलें. आतां कसलें संकश्ट येत सांगूं नज... हांव आनीक रावना हांगा...चल्लों. ह्या मुखार म्हाका ती दारांत ल्लीत अुबी करपाची ना. आयुश्य हें अशेंच. ध्याना–मनांत नाशिल्लीं संकश्टां हाडपी....देवा सायबा... [ राधाक ] कितें पळेता ? वच बेगीन. ड्रेस बदलून यो.

**लाला :** राव, पयलीं आवडूक धरूंक जाय.... तें तोंड अुकतें करचें ना हाची खातरी करून घेवंक जाय....

[ तो ताकतिकेन वचपाक वता. अितल्यांत त्याच दारांतसून ताअीबय आनी आवडू येतात. श्रीकान्त आनी राधा गिरिजाबायक लिपोवपाचो यत्न करतात.]

**ताअीबाय :** असो ताकतिकेन खंय वता रे ?

**लाला :** खंय ना.

**ताअीबाय :** खंय ना जाल्यार, राव मातसो. खंय आसा श्रीकान्ताची भाची ?

अशें लिपोवन कित्याक दवल्लां ताका ? दाखय मरे... [ श्रीकान्ताक ] तुका कितें करचें समजना म्हाका.

**श्रीकांत :** म्हाका ?

**ताईबाय :** तुवें म्हाका पयलीं कित्याक सांगलें ना ? हांव कितें ताका खातलें आशिल्लें रे ? काय, म्हजी दिश्ट–बिश्ट लागत म्हुण भियेलो ? सुंदर खंय मरे तें ?

**श्रीकान्त :** न्हय.

**ताईंबाय :** न्हय ?

**श्रीकान्त :** हय.

**ताईबाय :** मागीर म्हाका लिपयलें कित्याक तर तुवें ? उलय मरे.

**श्रीकान्त :** ताकाच लज दिसली.

[ इतल्यांत राधाचेर ताईबायची नदर पडटा. ]

**ताईबाय :** लजूंक कित्याक जाय आशिल्लें गो ?हांग। यो पळोवया म्हज्या म्हऱ्यांत. नांव कितें गो तुजें ?

**राधा :** राधा.

**ताईबाय :** राधा ? सुंदर नांव. बरो मुग्गो हो ड्रेस. तुका सोबताय बरो. श्रीकान्तान दिलो काय कितें ?

**श्रीकान्तः** हांवें न्हय.

**ताईबाय :** तुवें न्हय जाल्यार लालान जातलो. कोणेय दिवं पुण ताका तो सोबता. तूं केन्ना-शें पावलें बाय ? तुका रावपाक कूड दिल्या तातूंत सगळी वेवस्ता आसा मू ? तूं जेवलें काय ना ?

**राधा :** जेवलें.

**ताईबाय :** तुज्या संबंदान म्हाका कोणें सांगिल्लें. पळे, [ लालाकडेन पळोवन ] तुवेंच दिसता....[ राधाक ] खरेंच तूं सुंदर दिसता गो. लक्ष्मी कशें. [ श्रीकान्ताक ] तुवें आपणाक एक सुंदर भाची आसा म्हुण केन्नाच म्हाका कशें सांगलें ना रे ?

**श्रीकान्त :** म्हाकाच सारकें खबर ना. कित्याक सांगलें ना ? सांगूंक जाय आशिल्लें.

**ताईबाय :** [ लालाक ] तुवें राधाक घर दाखयलें ? दाखय व्हरून...घोळूं दी.

[ राधा आनी लाला वतात. श्रीकान्ताक ] तुजी भाची म्हळयार, सरदेसायांची मरे ? खंयचे देसाय ? दुर्भटचे काय वेरेंचे ?...

**श्रीकान्त :** वेरेंचे.

**ताईबाय :** वेरेंच्या देसायांगेर दुभाष्यांली एक चली दिल्ली. ती हिची कोण ?

**श्रीकान्त :** आजी.

**ताईबाय :** हय ? म्हजी मावशे भयण ती, भायर पडली बावडी ! म्हणटकच तुमी आमचे सोयरे मरे. आतां सांग, हिच्या आज्याक एक भाव आशिल्लो.

**श्रीकान्त :** तोय भायर पडलो.

**ताईबाय :** हय ?च...च...च...हांव अजून दीस काडटां ! आनी ताची बायल ?

**श्रीकान्त :** तीय भायर पडली.

**ताईबाय :** ती बोरकारांली...ती म्हजे जावेची आते-भयण. आतां पयलिंचीं मनशां कोणूच उरूंक नात...हें एक पान गळपाचें उल्लां.

**श्रीकान्त :** सगळीं गेलीं....इल्लीं इल्लीं करून. [ ताईबाय वता. कदेल धुकलून दाराकडेन पावपाक आवडू आपणालो लेंस काडून स्टेजीर उडयता आनी ताईबायक भायर दवरून लेंस हाडपाच्या निमतान परतें स्टेजीर येता-ताईबायक श्रीकान्त घेवन वता. ]

**आवडू :** [ लिपिल्ली गिरिजाबाय भायर सरता-तिका ] तुकाच सोदतालें.

**गिरिजा :** [ ताका वेगेंत वेंवन ] तुका पळेतकूच...खरें दिसना गो बाये.

**आवडू :** खरेंच...खरें दिसना...सारकी कादंबरी कशी गो बाये !

**गिरिजा :** तुवें लालाबाबाक पळेलो मू ? कसो राधाकडेन पळेतालो तो ?

**आवडू :** बरो गुणेस्त जावंय मेळ्ळो गो तुका. भाग्यवान तूं.

**गिरिजा :** जमून आयल्यार पुरो म्हणटां. तुजोच धीर म्हाका. हें घडून येबचें म्हुण म्हाका तुजो आधार जाय.

**आवडू :** सगळें करपी हांव....तुजे खातीर....कितेंय करपी. खरीच कादंबरी गो बाये !

**गिरिजा :** आतां ती खरी जावंक जाय. कादंबरी कशी फटिंची जावंक जायना. [ ताईबायचो आवाज आयकूंक येता– ' आवडू, ए आवडू...' श्रीकान्त धांवत येता. ]

**श्रीकान्त :** ताईबाय तुका आपयता आवडू.... [ गिरिजाक ] आतां चल...यो तुका कुडींत व्हरून पावयतां. जीव खालो तुवें आमचो. [ हाताक धरून ओडून व्हरता. ]

( पड्डो पड्टा. )

## आंक दुसरो

दीस तोच. वेळ रातिचो.

पड्डो वयर सरता तेन्ना कितलिशींच जोडपीं बॉलडान्स करतना दिश्टी पडटात. थोडया वेळान बॅण्ड ल्हवू वाजता. आनी जोडपीं इल्लीं इल्लीं करून फाटल्यान सरतात.

[ताईबाय आनी आवडू येतात. ]

**आवडू :** बरें दिसता न्हय बाय, भुरग्यांक नाचतना पळेतकूच ?

**ताईबाय :** म्हाका नवें हें व्हडलें-शें मानवना...पुणून भुरग्यांक जाय न्हय ? तोखणायेन पळोवपाचो यत्न करतां. तुका बरें दिसता मुगो ?

**आवडू :** म्हाका ? एका काळार हांवूय वीस वरसांचें आशिल्लें हाची याद जाता म्हाका.

**ताईबाय :** केन्ना गो बाये ? तुका सदांच हांव येदेंच पळेत आयलां.

**आवडू :** तुमगेर येवचे आदीं हांव भुरगें आशिल्लें बाय.

**ताईबाय :** अशें तुका दिसता जावंये...पुणून तूं एक लक्षांत धर. तूं सभावान सादें. आनी सादें मनीस केन्ना भुरगें नासता. जाणटेंय नासता. तेदेंच आसता.

**आवडू :** तरी आसतना भुरग्यांक अशीं खुशालभरीत नाचतना पळेलीं म्हणटकूच काळजांत खातकुतल्यो जावपाक लागतात.

**ताईबाय :** जावं. आयुश्यांत जें चुकलें ताका शिणपांत अर्थ ना...त्या मायर फुडलो जल्म दवल्लेलो आसा....तो कोणाक चुकला ? ह्या जल्मांतल्या त्रासांचें फळ तुका फुडल्या जल्मांत मेळटलें.

**आवडू :** बाय !

**ताईबाय :** आमचे आतां दस सल्ले, पांच उल्ल्यात...पांच लेगीत उल्ल्यात काय कितें, कोण जाणां...ही ती नाचता तीच न्हय ती श्रीकान्ताली

भाची? बरी दिसता ती?

**आवडू :** हय बाय...बरी दिसता.

**ताईबाय :** तिका आपुण सुंदर म्हुण खबर ना ?

**आवडू :** जी खऱ्यांनीच सुंदर आसता तिका आपुण सुंदर म्हुण खबरूच नासता.

**ताईबाय :** देखून म्हणटां न्हय हांव, ती अदीक सुंदर दिसता.

**आवडू :** जिवितांत केन्ना केन्ना कांय अजापांच्यो गजाली घड्टात...हांगाय... ह्या खिणाक घड्टात.

**ताईबाय :** खंय ?...तीं नाचतात थंय ?

**आवडू :** सांगूं येता ? समज, एका तरण्या-देखण्या भुरग्याचें मन एकलेचेर बसलां. तो तिका लिपोवन घेवन येता. पुणून उलोवंक जायना तें हांव उलयलें.

**ताईबाय :** कितें उलयलें तूं ?

**आवडू :** तेच भाशेन समज बाय, जें मेलें जातलें अशें धरिल्लें तें अवचित दिश्टी पडलें.

**ताईबाय :** तूं अशें कुवाडयांनी कितें उलयता गो ? म्हाका समजना...

**आवडू :** बाय, हो संवसार अजापांचो. आनी सुंदर. तातूंत मोगा सारकी पवित्र वस्त दुसरी ना. सगळ्या बांदपासांतल्यान तो मनशाक सोडयता.

[ आवडूच्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळटात. ]

**ताईबाय :** आवडू, हें कितें ? हीं दुकां कित्याक ? अितलीं वरसां तूं म्हजेसरीं आसा. तुका अशें कुवाडयांनी अुलयल्लें हांवें केन्ना आयकूंक ना...तुज्या दोळयांत दुकां केन्ना पळोवंक नात. सारकें सांग गो...

**आवडू :** सांगपाचें न्हय तें हांवें सांगलें...हांवें अुतर दिल्लें सांगचें ना म्हुण...

**ताईबाय :** म्हाका गोंदळांत अुडोवं नाका....सांगता काय ना तूं ?

**आवडू :** गुपीत तें बाय. सांगपाचें न्हय. पुणून रावं नज जालें म्हुण थोडें सांगलें. आमी दोगांय वांगडा शिकतालीं. मागीर वेगळीं पडलीं. दोगांय मेलीं जातलीं अशें आमी मानतालीं. वीस वरसांनी आयज परतीं मेळ्ळीं ! म्हाका केदो धसको बसचो, बाय ! हांवें ताका विचाल्लें : 'तूं हांगां खंय ? पयलीं अेक ताल माल्लें ताणें...मागीर खरें तें सांगलें आनी कोणाक सांगूं नाका म्हुण म्हजे कडल्यान अुतर घेतलें.

**ताईबाय :** कोण गो त ? कोणा संबंदान अुलयता तूं?

**आवडू :** ताची सुंदर गोमटी धूव अेका देखण्या गिरेस्त भुरग्याच्या मोगांत पडल्या.

**ताईबाय :** सारकें समजता तसले भाशेंत अुलय गो. कोण ती ?

**आवडू :** ' कोण ती ' म्हुण सगळेच जाण पळे अेकामेकांक विचारतात. सगळयांचे दोळे तिचेर थिरावल्यात. आनी ती तांचे मदीं अप्सरा कशी नाचता.... [ राधेकडेन बोट दाखयता. ]

**ताईबाय :** समजलें. श्रीकान्ताली भाची राधा मू ? सुंदर ती...दिश्ट लागपा सारकी !

**आवडू :** ती ताची भाची न्हय बाय. ती गिरिजाली धूव.

**ताईबाय :** कोण हें गिरिजें ?

**आवडू :** म्हजी ल्हानपणांतली मैत्रिण.

**ताईबाय :** अशें...आनी ' तो ' ?

**आवडू :** बाला...तुज्या अेका अुतराचेर आसा बाय. सगळयो आडखळी पयस जातल्यो.

**ताईबाय :** [ गंभीर आवाजांत ] अुं.

[ वतात....परतें बँण्ड मोटयान वाजता. जोडपीं नाचतात. परतें बँण्ड हळू जाता. अुषा आनी अुल्हास येतात. ]

**उल्हास :** ताणें म्हजें सामान काडून दुसरे कुडींत व्हरून दवरूंक लायलें. म्हाका सांगलें लेगीत ना. केदो अपमान म्हजो हो ?

**उषा :** आनी ती कूड कोणाक दिली ?

**उल्हास :** ते मादक दोळयांचे अप्सरेक...श्रीकान्ताचे भाचयेक. पुणून हांव जाणां...तें फकत निमित्य. ताका तूं आनी हांव लागीं पडिल्लीं नाका आशिल्लीं...म्हुण आमकां ताणें पयस घालीं....

**उषा :** ओगीच बिरमत घेवं नाका ताची. त्या भायर ताअीबायक आमचें सगळें खबर आसा. ती तुजो केन्ना अपमान जावंक दिवची ना. आनी ती मादक दोळयांची चली कोण म्हळी तुवें ?

**उल्हास :** खंयची चली ?

**उषा :** श्रीकान्ताली भाची...राधा ?

**उल्हास** : हांवें तिका मादक दोळयांची म्हळया ?

**उषा** : सांबाळून आं, अुल्हास. म्हाका सवती सोंसच्यो नात...हांव अेक फावट फटवन...दुसरे फावट फटोवन घेवचें ना.

**उल्हास** : हांवे खंय गो कितें म्हळां ? तूं बेश्टें दुबाव काडटा.

**उषा** : हांव दुबाव काडटां ? हांव तुका येदोळ पसून पळेना ?

**उल्हास** : तुमचो बायलांचो सभाव असोच दुबावी. हांव तुका विचारतां, पळोवपा सारकी कोणूय दिसली जाल्यार तिका पळोवपूच ना ?.

**उषा** : ना. म्हाका तें सोंसना.

**उल्हास** : बरें बाये.

**उषा** : बरें बाये न्हय....अेक फावट अेकल्याक काळीज दिलें म्हणटकूच तें मागीर दुसऱ्याक कोणाक मेळूंक जायना... [ सोनुबाब अेक प्लेट घेवन भितर सरता. अुषा आनी अुल्हास तांकां पळेता. आनी फाटल्या पावलांनी परतता. अुल्हास तें पळेता. ]

**उल्हास** : पात्रांवान आमकां पळेलीं.

**उषा** : पळोवं दी. डान्स हो. कोणूय कोणाबरोबर नाचता.

**उल्हास** : तें खरें...पुणून तातुंतूय कोणा कोणाक वरें, तें समजता. पात्रावांक आमचो दुबाब येवंक जायना.

**उषा** : येवं दी...ताचो फांत खाला व्हय आमी ?

**उल्हास** : पुणून आमचें पोट ?

**उषा** : जिवितांत पोटूच सगळयांत व्हड ? काळीज न्हय ?

**उल्हास** : पोट गेलें जाल्यार.

**उषा** : वचूंदी. जावन जावन कितें जातलें ? आमी गरीब जातलीं. म्हाका ताची पर्वा ना. नोकऱ्यो पाड पडूंक नात....दुसरेकडेन खंयूय तुका मेळटली. पयशे अुणे मेळटले. मेळूं. तितल्याच पयशांनी हांव तुजें घर राखतलें. आयदना घांसतलें, लुगटां अुमळटलें—काटकसरीन रावतलें. काळजा परस पोट व्हड न्हय म्हाका,

[ सोनुबाब परतो येता आनी दारांतूच थांबता. ]

**उल्हास** : [ काचाबूल जावन ] पात्रांब पळेता. सांबाळून अुलय.

**उषा** : तूं असो भित्रो कसो रे ?

**बाला :** सामान्यतायेन तो जेन्ना खंयचेय चलयेक सोदता तेन्ना तिका तें सांगनासतना आपशींच समजता.

**राधा :** अशें ? म्हाका खबर नाशिल्ली.

**बाला :** तो बरोच देखणो. तुका दिसना ?

**राधा :** दुबावूच ना.

**बाला :** आमी सारके दिसतात. पुणून गोंदळ करतात फकत दादले...बायलांक तो खंयचो आनी हांव खंयचो तें जिस्त समजता. कशें समजता काय तांकां तें ?

**राधा :** म्हाका खबर ना.

**बाला :** तो तांकां सारको पळेच ना देखून जांवये घडये. ह्या ड्रेसांत तूं बरें दिसता.

**राधा :** निखटो देखणोच न्हय.

**बाला :** कोण ?

**राधा :** तुमचो भाव.

**बाला :** हय...बुदवंत आनी हुशारूय बी. म्हजे परस चड. भंय-भिडो नाशिल्लो. ...खंयच्याय खिणाक उज्यांत उडी घेवपी. पुणून ताका एक गजाल केन्ना जमलीच ना. ताका कोणाच्या मोगांत पडूंक आयलें ना. देखुनूच जावंये घडये, त्यो ताच्या मोगांत पडटात. तो भायल्यान निबर पुणून भितल्ल्यान मायेस्त.

**राधा :** तुमचेर तांची खूब माया... तुमी खंती जाल्ले तांच्यांनी पळोवं नज.

**बाला :** म्हाका खबर आसा. म्हजेर माया आसा म्हुण न्हय, ताच्यान कोणाकूच खंती जाल्लो पळोवं नज. सभाव तो ताचो. चड करून मोगांत अपेस येवन खंती जाल्लो ताका सोंसना. तिडक मारता. [ उठ्टा ] तो पळे तो तुकाच सोदता. हांवूय एकल्या मनशाक सोदतां. म्हाका मेळयारसगूं ताका हांव, तूं खंय आसा तें ?

**राधा :** नाका.

**बाला :** ताचो सांगात म्हजे परस बरो.

**राधा :** म्हाका तुमचोच सांगात चड मानवता.

[ बाला अजापान पळेता आनी म्हऱ्यांत बसता. ]

**बाला :** [ खिणा भरयान ] म्हाका वायट दिसता.

**राधा :** कित्याचें ?

**बाला :** सांगूं ? तुका दुखोवपाचें म्हज्या मनांत ना. पुणून तुवें जें निकतें म्हळे तशें, जिका हांव सोदतां तिणें म्हळ्ळें जाल्यार, हांव भुल्लुसून वतलों आशिल्लों....

**राधा :** [ गोड हांसून ] हांवें म्हळें ते चुकलें ? [ उठटा ] म्हाका समजता... रागार जावं नाकात आं...म्हाका वचूंक जाय.

**बाला :** [ उठ्टा ] तूंय रागार जावं नाका. म्हाकाय वचूंक जाय...[ वता. त्याच दारांतल्यान रोखडोच लाला येता. ]

**लाला :** ना....ना....अशें उपकारना...हें करपा खातीर तुका हांवें हांगा हाडूंक ना.

**राधा :** हांवें कितें केलें ?

**लाला :** अशें मदींच उठप...

**राधा :** हांवें तशें खंय केलां ?

**लाला :** ना ?

**राधा :** तुमी अशे म्हाका तापोवन काडूंक लागले जाल्यार म्हाका रडूंक येतलें.

**लाला :** अशें ? बरें जातलें....म्हाका सुचचें नाशिल्लें हें तुवें सांगूंक नाशिल्लें जाल्यार. तुज्या दोळयांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं जाल्यार ताचें काळीज सामकें विरगळटलें.

**राधा :** तुमकां मात् पसून काळीज ना...

**लाला :** नाच. आमी एकाच दिसा जल्मा आयले. तातूंत म्हाका हें, ताका तें, करून देवान वांटणी केली. तेन्ना काळीज पुराय ताका दिलें.

**राधा :** पुणून दुसरें मनीस दुखावता इतलें तरी तुमच्या लक्षांत येवंक जाय आशिल्लें.

**लाला :** तूं दुखावलें म्हणटकूच तुजें तोंड पळेनाफुडें घट फातरा सारकें काळीज लेगीत विरगळटलें...तुका जुंवळी भयण आसा व्हय काळीज नाशिल्ली ?

**राधा :** तुमचो सांगात सोंसूं नज.

**लाला :** बरें जालें...तेंच ताका सांग. आनी मायेच्या हुंवारांत ताका व्हांवोवन व्हर. म्हाका तेंच जाल्लें जाय.

**राधा :** हांव हें जें सगळें करतां तें ह्या ड्रेसा खातीर वा तुमी दितले त्या पयशां

ला... ३

खातीर अशें समजूं नाकात तुमी. तुमच्या भावाचें म्हाका व्हडलें-शें पडूंक ना. ताका जाग्यार हाडपाची जापसालदारकी म्हजी न्हय. त्या खातीर हांव हांगा येवंक ना. लोकांच्यो नदरो म्हजेर पडच्यो हाचेंय म्हाका व्हडलें-शें ना. ह्या आदींय जायत्या जाणांच्यो नदरो म्हजेर थिरावल्ल्यो. जायत्या नदरांनी म्हाका सांसपिलां. सादया भेसांत आसतना लेगीत. म्हाका नवें न्हय हें.

**लाला :** दोळयांतलीं दुकां फाटीं ओडपाचो यत्न आतां करूं नाका. येवं दी तीं... खूब गरज आसा तांची...

**राधा :** दुकां गेलीं जाल्यार तांची सुवात राग घेतलो. जाणांत मू?

**लाला :** [ अवचित् दिमी मोडटा आनी गयवया करता ]....राधा, राधा....पांया पडटा तुका हांव. म्हजें आयक.

**राधा :** [ अजापान ] हें कितें करतात तुमी ?

**लाला :** [ ल्हवूच ] तो पळे, तो येता...पळोवं दी ताका तुज्या पांयांकडेन पडिल्लो म्हाका.

**राधा :** शीः शीः शीः हें सोसूं नज.

**लाला :** राधा, म्हजें काळीज पळे करों व्हांवता तें...म्हाका ना म्हणूं नाका. [ ल्हवू ] लागीं पावलो तो ?

**राधा :** हें कितें ? हें तुमकां सोबना.

**लाला :** आतां सारकें जावंदी आं.

[ उठटा. राधाचो हात हातांत घेता आनी ताचो उमाव घेता. वता. राधा सोफार धब्ब करून पडटा. दोळयांत दुकां. बाला येता. ]

**बाला :** तुज्या दोळयांत दुकां राधा ?

**राधा :** थोडीं....[ दुकां पुसता. ]

**बाला :** तुवें खरें म्हळयार खुशालभरीत जावन नाचपाचें. आज म्हज्या भावान तुज्या हाताचो उमाव घेतलो म्हुण. अशें केन्ना घडना....आनी कोणाच्याय हाताचो ताणें उमाव घेतिल्लो जाल्यार ती भुल्लुसून पिशी जातली आशिल्ली. म्हाका पळोवन बी तो कडसरलो ना मू ?

**राधा :** ना....ना.

**बाला :** ती दुकां पूस....आनी हांस मातशें....एकूच दुखी मनीस पुराय पाटींची

मजा ना करपाक पुरो. आनी तुका दुख्खी म्हज्यान पळोवं नज.

धा : म्हाका मातशें एकलेंच रावंक जाय आशिल्लें.

ला : हांव तुका एक गजाल सांगूंक सोदातलों राधा. हांव जाणां, दुसऱ्याचीं दुख्खां आयकुपांत मजा ना. तरी आसतना येदोळच्यान म्हाका दिसपाक लागलां. वीणान म्हाका वेंचून काडलो तो लाला ताका लागीं करिना जालो म्हणुनच.

धा : ही गजाल खरी आसत जाल्यार लज तुमकां.

ला : लज ? आसत....पुणून ना जाल्यार तें म्हाका केन्नाच वेंचून काडचें नाशिल्लें....म्हाका असल्या गजालिंची संवय आसा...राधा. आमी ल्हान आसतना लाला मस्ती करतालो आनी पळून वतालो. मागीर हांव मेळ्ळों म्हणटकूच लाला समजून सगळां म्हाकाच बडयताली. जिवितांत म्हाका जें कितें मेळ्ळां तें हे भाशेन मेळ्ळां. म्हजी खंत तुका कळपाची ना. तुका तुजे सारकीच दिसपी जुंवळी भयण आशिल्ली जाल्यार म्हाका भोगता तें कितें तें तुका कळटलें आशिल्लें.

[ राधा स्टेजींत भितर पळेता. ]

धा : म्हज्या दोळयांत दुकां आयल्लीं तीं तुमच्या भावाक लागून न्हय...

ला : न्हय ?

धा : तुमकां लागून आयल्लीं.

ला : म्हज्या खातीर तुज्या दोळयांत दुकां आयल्लीं राधा ?

धा : हय बाल्वाव. म्हजें मन बसल्लां तें तुमचेर.

[ बाला सट्ट करून उठून वता. राधाय तशेंच करता. म्हणटा म्हणसर लाला राधाक हाताक धरून भितर हाडटा. ]

ला : बेस बरें केलें. फस्क्लास ॲक्टींग... पुणून तुवें पळून वचूंक नाका आशिल्लें... ' म्हजें मन तुजेर बसलां ' हें ताणें आयुश्यांत पयलेच खेपे आयकलां. राधा, पयलेच खेपे तुवें ताच्यांत आत्मविस्वास जागयला. आतां बाकिचें एका फुडें एक सडसडीत जावं दी. रगत सळसळटासर. मातसो मत्सर जागूं दी. आनीक एकलो आसा तुजेर मन बशिल्लो.

धा : तिसरो ?

**लाला :** हांव तयार करतां आनी एकल्याक. तुजी फाट सोडिना म्हुण म्हजेर जळपी. म्हाका मारूंक सोदपी...

**राधा :** तुमकां पिशें लागलां लालाबाब? हें नाटक खंय पावत, सांगूं नज... हाताभायर वचत म्हुण भंय.

**लाला :** ताचो हुसको तुका नाका. नाटक रचलां हांवें. हांव ताचो अखेर म्हाका जाय तसोच करतलों. तूं भियेवं नाका. कांय हाता भायर वचना. आतां आयक नाटकाचो फुडलो आंक.

– सगळे जेवंक बसल्यात. इतल्यांत भायर बागेंत आमचीं झगडीं सुरू जातात. म्हजीं आनी आनीक एकल्याचीं. अवचित् पिस्तुलाचो आवाज आयकूंक येता. ऑरकॅस्ट्रा थांबता. लोक भायर धांवून येतात पळोवपा खातीर कोणाक गुळी लागली काय म्हुण. अश्या वेळार तूं मोगान पिशें जावन–सारकें लक्षांत धर, तुवें पिशें जावंक जाय...तूं पिशें जावन तळयेर जीव दिवपाक धांवता. आमचे बागेंत एक तळी आसा ती तुवें पळेल्या जातली. तूं तळयेंत उडी घेता....तुका पेवंक येता. श्रीकान्तान तुका एक खपे तळयेंत धुकलून उडयल्लें...नाय जाल्यार, कांय नज. तळी व्हडलिशी खोल ना. त्या भायर हांव थंय आसतलोंच. तेन्ना भियेवपाचें कारण ना. तुवें उडी घेना फुडें तुका हांव वयर काडटलों. आनी तशेंच भिजिल्लें उबारून व्हरून म्हज्या भावा म्हऱ्यांत दवरतलों. आनी ताका सांगतलों : ‘ हें पळे, तुका लागून हें अशें जालें. ’ त्या उपरांत तो तुज्या जाळांत अदीक घुसपना जाल्यार पळे तूं. तूं अशें गंभीर कित्याक? तुका पेवंक येना? तुजी फी हांव तुका तिपटीन दितलों. त्या भायर, दोन नव्यो साडयो दितलों.... हया ड्रेसाच्याकूय बऱ्यो... [ तो राधाच्या बावळयांक धरता. राधा फाटीं सरता.अवचित् तो काकुळटेक आयिल्लेवरी उलोवपाक लागता. ] आयक म्हजें. ना म्हणूं नाका. आज म्हाका इतली खोशी जाल्या...इतली खोशी जाल्या.... ना म्हणूं नाका. [ राधा हात सोडोवन घेता आनी धांवता...तोय फाटल्यान धांवता. ]

**वीणा :** [ अकस्मात येवन ] बाला !....

**लाला :** बाला न्हय हांव...हांव लाला.

**वीणा :** ओ ऽ ऽ

लाला : सारकें पळे...लजिल्ले वरी दिसता हांव ? जो लजनां तो लाला... लक्षांत दवर. गरज पडटली फार्टी फुडें तुका हाची. तूं बालाक सोदता ?

वीणा : म्हाका दिसलें बालाच हे चलये फाटल्यान धांवता म्हुण... तूं जाल्यार कांय नज...तुवें बालाक पळेला ?

लाला : तूं सोडून बाकिच्या सगळयांक खबर आसा तो खंय आसा तो. सगळीं खोशयेंत नाचतात आनी तोच एकलो दुख्खी बिल्स जावन कडेक रावला. ताका तुवें दुखयला जावंक जाय.

वीणा : हांव कोणाक दुखयना... ओगीच कित्याक दुखयतलें ? [ एक पावल मुखार घालता आनी थांबता. ] एक सांग. काल हांव वागेंत बशिल्लें तेन्ना तुमी दों भितल्ल्या एकल्यान लह्वूच फाटल्यान येवन म्हज्या पोल्याचो उमाव घेतिल्लो. ...बाला सांगता आपणें न्हय म्हुण. सोपूत घेवन सांगता. मागीर फटी मारच्यो पडल्यो म्हाका.... तो उचांबळीत जायत म्हुण ... तूंच आसूंक जाय तो... तुका सांगतां, असलीं फकांडां म्हाका मात लेगीत सोसनात आं.

लाला : केन्नाची खबर ही ? कालची ? कितल्या वरां वयली ?

वीणा : फटोवं नाका... रातच्या जेवणा उपरांतची.

लाला : रातच्या जेवणा उपरांत जाल्यार हांव न्हय तो ...हांव त्या वेळार उल्हासा वांगडा इस्पिकांनी खेळटालों.

वीणा : असलीं फकांडां सोबनात तुका लाला तूं बालाच्या मनाकडेन खेळूं नाका. कितलो निष्ठूर रे तूं ! तुजें म्हजेर कितलेंय मन बशिल्लें आसूं वा म्हजें तुजेर आसूं, आमकां तें ताब्यांत दवरूंक येवंक जाय आतां.

लाला : तूं म्हाका उलोवंक लावं नाका वीणा. तुका वायट दिसतलें. तूं दुखावतलें.

वीणा : [ दांत ओंठ चाबून ] म्हाका जाळ मारतात तुजे.

लाला : तुकाय ? उल्हासाकूय मारतात. तो म्हाका सोदीत आसा....हे चलये फाटल्यान हांव पिसो जायन अशें ताणें धरूंक नाशिल्लें. खासा तो पिसो जाला. सगळेच जाल्यात. दुबावूच ना. इतली सुंदर चली मेळूंक कठीण !... त्याभायर ह्या ड्रेसांत ती इतली सोबता ! तुका दिसना ? बरें गो...बाला मेळ्ळो जाल्यार सांगूं ताका तूं सोदता म्हुण ?

**वीणा :** नाका....हांवूच सोदून काडटां ताका...

[ लाला वता...वीणा एकलेंच आसता. बेचैन. अवचित् तें बापायक उलो मारता. ]

**वीणा :** पापा...[ सोनुबाब येता. ]

**सोनुबाब :** कितें बाय ?

**वीणा :** पळेलो तुवें ताका म्हजीं कशीं फकांडां मारतालो तो ?

**सोनुबाब :** ना...कोण मारतालो ?

**वीणा :** कोण ? तो लाला. कित्याक पळेलो ना ?

**सोनुबाब :** हांव नाशिल्लों न्हय गो हांगा...

**वीणा :** आमचे पयशे कित्याक उपकारनात पापा ?

**सोनुबाब :** पुणून घडलां कितें तें तरी सांग...तुका बाला जाय जालो....घेतलो ताका हांवें विकतो. आतां कितें तो तुका नाका ?

**वीणा :** हांवें नाका म्हळां ? ताचें मन म्हजेर बसलां· पुणून ताचो भाव.

**सोनुबाब :** दोगूय तुजे करो जातले ? म्हाका दोगांकूय घेवपाची तांक ना अशें न्हय. म्हज्यान घेंव येतात दोगांकूय. पुणून तशी चाल ना न्हय ? तूं दों भितल्ल्या एकल्याक वेंचून काड.

**वीणा :** म्हाका जाय ताका घेवपा इतली तांक तुका ना पापा. म्हुण हांवें दुस-ऱ्याक वेंचून काडलो.

**सोनुबाब :** लालाक घेवपा इतली तांक म्हाका ना म्हणटा तूं ?

**वीणा :** म्हाका आज कितें जाता पापा...इतले त्रास जातात ! कितें करचें, समजना. लाला ते चलयेक मुजरत घेवन आयला...हांगा. म्हाकाच चाळोवपाखातीर. म्हाकाच त्रास दिवपा खातीर. ते चलये फाटल्यान बालाय लागला...म्हजे कडेन पळे लेगीत ना. आनी हो लाला, जो कोणाकडेन केन्ना पळेनाशिल्लो तो तिचे वयली नदरूच हालयना. आयस्स! हांव आज हांगा येवंकूच नाका आशिल्लें. खंयचें आयलें-शें जालें. हांव नाशिल्ले वरी सगळे चलतात. सोसूं नज म्हजान हें पापा ! तुज्यान कांय नज ?

**सोनुबाब :** खंयचे चलये विशीं तूं उलयता ?

**वीणा :** श्रीकान्ताचे भाचये विशीं.

**सोनुबाब :** कोण श्रीकान्त हो ?

**वीणा :** जाणे नाच शिकोवपाची शाळा घाल्या तो. पुणून तो आमच्यो ज्यो इतल्यो कंपन्यो आसात तांतले एके कंपनीचो डायरेक्टर खंय पापा. हेरां सारको एक.

**सोनुबाब :** खंयची कंपनी ? स्टील...सिमेन्ट, टेक्स्टायल, सल्फेट, खंयची कंपनी ती सांग. आमच्यो दोन डझन तरी कंपन्यो आसात.

**वीणा :** पीग आयर्न दिसता म्हाका.

**सोनुबाब :** म्हणटकूच ताका कितें कर म्हणटा तूं ? हांगासल्लो धांवडावन घालूं ? काय कंपनींतलोच काडून उडोवं ?

**वीणा :** तुज्यान जातलें हें पापा ? म्हाका दिसना.

**सोनुबाब :** सगळे म्हजे मुठींत आसात अशें समज. अशें मातशें बोट दाखयल्यार पुरो...साटलीपोटली कवळून घरा वचचेंच पडटलें ताका.

**वीणा :** ना...तुज्यान जावपाचें ना हें पापा.

**सोनुबाब :** जावपाचें ना ? पळेशीत तूं.

[ सोनुबाब वीणाक घेवन वता. उल्हास आनी लाला येतात, ऑर्केस्ट्रा. एक **heroic tune** वाजता. ]

**लाला :** ए, तुकाच सोदतालों हांव....[ उल्हास ताका पळेता. ]

**उल्हास :** म्हाका ?

**लाला :** तुजेकडेन मातशें उलोवपाचें आसा म्हाका.

**उल्हास :** म्हजेकडेन ? कोणा संबंदान ?

**लाला :** काल तुका हांवें उषा वांगडा पळेल्लो.

**उल्हास :** जायत...

**लाला :** जायत कितें ? पळेल्लो तुका हांवें...

**उल्हास :** हांवें खंय ना म्हळां ?

**लाला :** आतां तुमकां नाचता आसतनाय पळेतां.

**उल्हास :** तातूंत कितें जालें ? नाचपाकूच तर आमी हांगां आयल्यांत.

**लाला :** तुवें कितें येवजिलां ?

**उल्हास :** म्हाका कितें विचारता ? उषाकूच विचार.

**लाला :** हांवें कोणाक कितें विचारचें हें तूं म्हाका सांगतलो कोण ?

**उल्हास :** तुका कितें जाय म्हजे कडल्यान ?

**लाला :** आयक, असो नव्हंस जावं नाका. तुका तुजें काम जाल्लें जाय जाल्यार म्हजो तुका आधार घेवचो पडटलो.

**उल्हास :** उषाक विचार...

**लाला :** तापूं नाका...तकली शांत दवर. म्हज्या आधारा बगर तुजें काम जावपाचें ना. ना जाल्यार पात्रावांक...

**उल्हास :** [ भियेवन ] पात्रांवाक कांय सांगूं नाका.

**लाला :** कित्याक सांगूं नाका ?

**उल्हास :** तो म्हाका ना करतलो.

**लाला :** आतां बरो उलयलो तूं. आतां मातशे दोगा इश्टां भाशेन उलोवंया... तुका म्हजो आधार जाय पडटलो. ते बगर तुजें काम जावपाचें ना. म्हाकाय तुजो थोडो आधार जाय.

**उल्हास :** तूं नकळ लाला...आज दोन वरसां जालीं, म्हजे तकलेर पात्रांवाक कळ्ळयार कितें जातलें ही तरसाद हुमकळटा. दोन वरसां ! ...एकशें चार सप्तकां...सातशें अठ्ठावीस दीस...

**लाला :** आयज मध्यान रात सेरेन ती हुमकळटली. फाल्यां तूं मेकळो....

**उल्हास :** हांव समजूंक ना.

**लाला :** सगळें समजतलो. तुज्या मुखार दोनूच वाटो आसात. एक तर, हांव सांगतां तें कर. ना जाल्यार तुजे करणेचीं फळां तूं भोग.

**उल्हास :** तरी हांव समजूंक ना.

**लाला :** समजतलो. धर, तूं डेंटिस्टागेर गेला. तुवें ताका आपलो दांत दाखयला. डेंटिस्टान दांत काडपा खातीर चिमटयान तो धल्ला. तुका दुखता. आतां सांग...तुज्यान नाकात म्हणुं येता ? तुज्यान पळून वचूं येता ?

**उल्हास :** ओपारी नाकात. सारकें कितें तें सांग.

**लाला :** तेंच सांगतां. हांव सांगतां तशें कर ना जाल्यार....

**उल्हास :** ना. म्हज्यान जावपा ना...

**लाला :** तूं ना म्हणटा ताचें केदें मोल तुका दिवंचे पडटलें हाचो तुका अदमास आसा ?

**उल्हास :** तूं बरो मनीस. तूं आमचें कांयच वांकडें करचो ना.

**लाला :** फाटल्यान सुरो मारचों ना. पुणून सणकुटेर फुलयतलों.

**उल्हास :** हांवें कितें करचें म्हणटा तूं ?

**लाला :** सांगतां. तुवें राधाक पळेलां. तूं ताका लागून पिसो जाला अशे तुवें सगळयांक दाखोवन दिवंक जाय.

**उल्हास :** हांव ?

**लाला :** राव....फुडलें सांगतां. हांव राधाक घेवन बागेंत वतलों. तुवें मत्सरान, सोंसूं नज जावन म्हजेर थंय येवन मूठ मारूंक जाय.... हांव पिस्तोल काडटलों. तुजेर फार मारतलों... भियेंव नाका तूं. म्हाका नेम बरो आसा... तुका फार लागचो ना.

**उल्हास :** पुणून हें सगळें कित्याक ?

**लाला :** ते सगळें मागीर कळटलें तुका. करता मूं ?

**उल्हास :** करतां. पुणून त्या उपरांत ?

**लाला :** तुजें काम जातलें. चल या आतां.

[ वतात. इतल्यांत सगळेजाण आपापल्यो प्लेटी घेवन येतात. आवडू आनी गिरिजाबायूय येतात. गिरिजाबाय एक उंची साडी न्हेसल्या. ]

**आवडू :** तूं आयज व्हंकल कशी दिसता.

**गिरिजा :** खरेंच ?

**आवडू :** खरेंच...

**गिरिजा :** म्हजीं सपनां आज पुरीं जावपाचीं आसात मुगो ? म्हाका हांव वीस वरसांनीं ल्हान जाल्लेवरी दिसलें.

**आवडू :** राव. ताईबायक येवं दी. तीच तुजी लोकांकडेन करून वळख दितली. हांव तिका घेवन येतां.

[ आवडू वता. पुरसो येता. गिरिजाबायक पळोवन अजापांत पडटा. ]

**पुरसो :** बापाय म्हज्या !

**गिरिजा :** हांव राधाची आवय.

**पुरसो :** [ किळची मारीत ] लालाबाब...लालाबाब....[ पुरसो वचपाचो यत्न करता. इतल्यांत लाला येता. ] ही पळे, चावी म्हजेच कडेन आसा...हांवें भायर खिळी घालून कुलूप लायिल्लें. जनेलांतल्यान भायर सल्ली जावंक जाय....पळेना फुडें म्हाका शेळो घाम सुटलो...[ सोफार धब्ब करून

पडटा. आनी लक्षांत येना फुडें उठटा.] चूक जाली...चत्राय उल्ली ना.

**लाला :** कसली ?

**पुरसो :** सट करून बसलों...अशें फाटल्या तीस वरसांत केन्ना घडूंक ना.

**श्रीकान्त :** [ धांवत धांवत येवन ] पुरो. पुरो हें नाटक आतां. सोंपय बेगीन. सोंपय. सगळो घात जालो...राधेन आत्तांच्या आत्तां वचूंक जाय...ना जाल्यार, हांव मेलों...काब्बार सामको...ह्याच खिणाक राधेक आनी ताचे आबयक रवाना कर.

**लाला :** आज कोणाचीच तकली जाग्यार ना. जालां कितें ?

[ तितले म्हणसर गिरिजा लोकांत भरसता. ]

**श्रीकान्त :** हांव एके पीग-आयर्न कंपनिचो डायरेक्टर.

**लाला :** जाणां हांव...तिचें कितें जालें ?

**श्रीकान्त :** कितें जालें म्हुण कितें विचारता ? हांव बुडलों. सामको पोंदा गेलों... राधेक आनि-आनीक दवरूं नाका. ताका लागून हें सगळें संकश्ट कोंसळ्ळें. सोनुबाबाची तकली तापल्या. स्टॉक एक्सेंजीत तरे तरेचे डाव सुरू जाल्यात. कंपनी दिवाळें फुंकता...राधेक आनी ताचे आवयक आत्तांच्या आत्तां रवाना कर.

**लाला :** ताचे आवयक पळे. खंय आसा ती ?

**श्रीकान्त :** खंय आसा ती ?

**लाला :** ही ती पळे.

**श्रीकान्त :** जालें ! सगळें वाऱ्यार पडलें आतां. तुज्या मूळ नाटकांत हो देखाव नाशिल्लो.

**लाला :** नाशिल्लो. आपशींच आयलो. आतां तकली थंड दवरून फुडलीं कामां करूंक जाय.

**श्रीकान्त :** पुणून अशें कशें जालें ?

**लाला :** कशें जालें म्हुण विचारूं नाका. नाटकान वेगळेंच मोडण घेतलें.

[ अितल्यांत अुल्हास येता...तापून ]

**उल्हास :** हें अशें चलपाचें ना. तूं ते चलयेक सोडिना जाशीत जाल्यार...

[ लालाचेर मूठ मारपाचो यत्न करता. ]

**लाला** : [ मूठ आडावन ] ना....ना. ना. आतां करपाचें न्हय. हें काम....अजून वेळ आसा...

[ लाला श्रीकान्ताक घेवन ताकतिकेन वता. ]

**उल्हास** : केन्ना ? फुडल्या आंकांत ? बरें आसा....परतो येतां.... [ ते मेरेन कितलिशींच जोडपीं स्टेजीचर **polka** नाच करपाक लागतात. अुल्हास तांच्यांतल्यान वाट काडीत वता. ]

[ पड्डो पड्टा ]

## आंक तिसरो

देखाव पयलो.

[ राधा मदीं बसलां. लाला पासयो मारता. ]

**राधा** : म्हणटकूच...आतां ह्या मुखार कितें ?

**लाला** : तेंच येवजितालों...येवजिल्लें अेक. जालें दुसरेंच. नाटक जाय तशें जायना. तुजे आवयन सगळो गोंदळ केलो. पेळेल्ली मू तुवें तिका ? लोकां-मदीं भरसली कितें, फुतफुतली कितें, भुल्लुसली कितें, सगळयांक नाचयले. तिणें म्हजो जाल्यार जीव खालो सामको. कोणाकूय कशींय तालां मारीत सुटली. मेजर तेलंगाक सांगलें, भारताचो डिफेन्स मिनिस्टर आपणालो मेवणो म्हुण. ताका आपूण चीफ ऑफ आर्मी स्टाफ जातांच-शें दिसलें. ....तिणें जो गोंदळ केला तातूंतल्यान आतां वाट कशी काडप होच प्रस्न म्हाका.

**राधा** : म्हणटकूच, ह्या मुखार हांवें कितें करपाचें ? तळयेंत जीव दिवपाचो बी देखाव अजून दाखोवपाचो अुल्ला ?

**लाला** : ताका आतां अर्थ अुरूंक ना....दुसरें कितेंय ताज्याकूय बरें येवज. तेंय कळाव लाय नासतना येवज. ना जाल्यार, खंयचे खंय व्हांवतलें सगळें...

**राधा** : म्हजी तकली काम करपाची ना.

**लाला** : अशें करुंया. आयच्या नाटकांतली मुख्य नटी तूं....तुजोच पार्ट सगळयांत चड म्हत्वाचो...आतां मेरेन तुवें जें केलें तें बेस बरें केलें. दुबावूच ना. तुजें गोमटेंपण, तुजी चाल-चलणूक आनी सगळयांत म्हत्वाचें

म्हळयार तुजें सादेपण, हाका लागून सगळयांच्या लक्षांत तूं भल्लें.... हांगा जे तरणे भुरगे जमल्यात तांचेर तुजी जी छाप पडल्या तिचीं वर्णनां करपाची गरज ना. तुवें सगळयांक पिशें लायलां. हांगा ज्यो तरण्या चलयांच्यो आवयो जमल्यात तांचे दोळे पळे...मागीर, तांच्या चलयांच्या काळजांत कितें अुजो पेटला जातलो हाचो अदमास तुका येतलो. अेक वीणा 'पडल्या' अुपरांत बाकिच्यांची कितें गत जाल्या जातली, तूंच पळे.... पुणून अितलेंय हें जें जालें तो नाटकाचो पयलो आंक. बालाक आनी वीणाक जाग्यार हाडपाक हो आंक अुपकारा पडलो. आतां हया मुखावयल्या आंकांत नवें कितेंतरी करूंक जाय. अशें करुंया : हांव लोकांक सांगीत वतां, कि तूं श्रीकान्ताली भाची तर न्हयच.... आनी गिरिजाबायली धुवूय न्हय. तूं नेव्हींतल्या अेका ॲडमिरलाची चली... नांव सोदुंया. मागीर मेळटलें. तुका आजोळची मोटी इश्टेट पडल्या. त्या भायर, तूं कविता बरयता. सगळयांक हें सांगीत वतां... फुडाऱ्यांची तरा जाणां मू तूं? परिस्थितींतलो गोंदळ सोडोवप कसो हें समजना जालें म्हणटकूच ते गोंदळांत गोंदळ करतात. तातुंतल्यान मागीर तांकां वाट मेळटा. तशें करुंया. हांव लोकांक तुजी नवी वळख करून दितां...सगळयांचे कान फुंकतां आनी मागीर हांव सांगतां ते खरें म्हणपाची सगळयांची खातरी पटली....वीणा मत्सरान हुलपून-हुलपून निशेलें, बाला ताका सोडून तुका लागीं जालो म्हणटकूच हांव अुठटां आनी अेका कदेलार अुबो रावन लोकांक सांगतां : 'भावानों आनी भयणिनो, आतां दुसरो नाच सुरू जाता.' लोक ओगी पडटले. नवो नाच कसलो तें आयकुपाक म्हज्या तोंडा कडेन पळेत रावतले तेन्ना हांव तांकां सांगतां : दुकरांनो! तांकां दुकर म्हणचें काय गाढव, तें मागीर थारावंया... 'आज जें कितें अेक नाटक आशिल्लें, सारकें येवजून करून बसयल्लें तें तुमी कोण, कितें कात हें तुमकां सारकें बरें कळचें म्हुण केल्लें. तुमचीं रुपडीं पिंदून तुमकां तुमचीं रुपां दाखोवचीं म्हुण मुजरत बसयल्लें. हया दोन वरांच्या नाटकांत तुमी हया चलयांच्या काळजांत पळेलें कितें कितें खतखत्ता तें' हांव वीणा कडेन पळेतलों. 'काळजांनी मोगाच्यो म्होंवाळ न्हंयो व्हांवतात काय विख्खाचे वझरे व्हांवतात ते तुमकां दिश्टी पडले. तुमचीं खरीं

रुपां हे चलयेन तुमकां दाखोवन दिलीं. ' ...ही श्रीकान्ताची भाची म्हळी, तुमकां खरें दिसलें. हें गिरिजालें चली म्हुण सांगलें, तेंय खरें दिसलें. हिची अेका अॅडमिरलची धूव म्हुण वळख दिली. तीय तुमी खरी खाली...कित्याक ?....तुमकां मनीस भेसा बगर वळखुंकूच येना. तुमचो घराण्याचो अभिमान, जाती-कातिचो अभिमान, संस्कार-बिस्कार बी तुमी जें जें कितें मानतात आनी तोंडांनी सांगतात तें सगळें तुमच्या भेसा अितलेंच वयल्या वयलें. हेरां पसून तुमी वेगळे फकत भेसांत. ...हे चलयेन तुमचे सारको भेस करून, तुमची सारकी भास अुलोवन, तुमचीं रुपडीं पिंदून तुमकां तुमचीं खरीं रुपां दाखयलीं. ' अशें कितें कितें अुलयतां आनी तांकां अदीक गोंदळांत घालतां...पळोवया मागीर कितें जाता तें.

**राधा** : मागीर, म्हजी गत कितें?

**लाला** : तुजी गत ? तुजी गत आनी कितें जावंक जाय ?

**राधा** : तशें न्हय....तुमचें हें भाशण जातकूच म्हजी स्तिती कितें ?

**लाला** : तेंच विचारतां. तुजी स्तिती कितें जावंक जाय? तुवें तुजे आवयक घेवपाची आनी अुठून वचपाचें. तुजी थरिल्ली फी श्रीकान्ताकडेन हांवें दिल्या...आनी हय, हो ड्रेस व्हरपाचो. त्या भायर त्यो दोन चार साडयो हावें दवल्लेल्यो त्योय म्हजी भेट म्हुण घेवन वचपाच्यो तुवें.

**राधा** : पुणून तुमी जेन्ना हें भाशण करतले तेन्ना लजेन म्हजें तोंड बावतलें हें तुमच्या लक्षांत कशें आयलें ना ?

**लाला** : तुजें तोंड कित्याक बावूंक जाय ? तुका बुद्द आसा, अक्कल आसा. तुवें ह्या लोकांकडेन तिरस्कारान पळोवन हांसूंक जाय. हांवूय आसतलों थंय तुज्या वांगडा हांसपाक. काय तांच्यांतलें एक जावन रावंक सोदता? तूं तांच्यांतलें ?

**राधा** : न्हय.... पुणून... म्हाका हें पेलपाचें ना...हांव आईक घेवन वतां. तुमच्यो त्यो साडयो-बिडयो म्हाका नाकात आनी फीय नाका.

**लाला** : हें कितें नाका जाल्लें ? साडयो कित्याक नाकात ? आनी फी कित्याक नाका ? तुका फी दिवची करुनच आपयल्लें.

**राधा** : हांव जाणां. पुणून म्हाका तें आतां कांय नाका.

**लाला :** ना....ना...ना...तुका दिवचें केल्लें तें सगळें तुवें व्हरुंकूच जाय. हांव सगळें घेवन येतां [ तो साडयो बी हाडूंक वता. ]

**राधा :** दुसऱ्यांचीं मनां मनशाक राखूंक येबंक जाय...
[ राधा सोफार धबांयच करून पडटा. इतल्यांत वीणा येता. आनी राधा मुखार उबें रावता. राधा मान वयर करून ताका पळेता... ]

**वीणा :** फट न्हय. तुजो ड्रेस खरोच सुंदर.

**राधा :** हय.

**वीणा :** आनी तूं हया ड्रेसांत चड सुंदर दिसता, हेंय फट न्हय.

**राधा :** जायत.

**वीणा :** तूं खूब सकाळीं उठपी ?

**राधा :** हय.

**वीणा :** दिसता तशें...

**राधा :** आनी तूं उसरान न्हिदपी ?

**वीणा :** हय.

**राधा :** दिसता तशें...

**वीणा :** तुका ड्रेस मानवलो ?

**राधा :** हय....

**वीणा :** म्हजो ड्रेस तुका कसो दिसता ?

**राधा :** सुंदर आसा.

**वीणा :** तुका जाय तो ? हांव तो परतो न्हेसपाचें ना. हांव एक खेपे न्हेशिल्लो ड्रेस दुसरे खेपे केन्ना न्हेसना... म्हजे कडेन जायते ड्रेस....जायत्यो साडयो आसात. म्हजे कुडींत येशीत ? दाखयतां हांव त्यो तुका.

**राधा :** नाका.

**वीणा :** कित्याक नाका ? तुका आपणाकडेन खूब ड्रेस, खूब साडयो आसच्यो-श्यो दिसना ?

**राधा :** दिसता.

**वीणा :** तुजेकडेन हो एक सोडून दुसरो ड्रेस ना...खरें मू ? आनी तो समज हांवें ओडलो आनी पिंदलो जाल्यार, आशिल्लोय ना जातलो... आनी तुका वायट दिसतलें. खरें न्हय ? [ हात पोलक्यार घालता. ]

**राधा :** तो हात काड.

**वीणा :** ना काडिना.

**राधा :** हात काडटा काय ना ?

**वीणा :** अशें तापूं नाका. तुजेंच लुसकान करून घेतलें. [ पोलको ओडटा. ]

**राधा :** [ दुख्खान ] आयस्स !

**वीणा :** पिंदतलें अशें दिसलें तुका ? ना. तुका हो ड्रेस फाल्यां कोणाक भुलोवपाक जाय पडटलो. हांव जाणां. आयची रात तूं जिखलें. ह्या उश्ण्या ड्रेसान. फाल्यां तूं साटली-पोटली कवळून घरा वतलें.हांव हांगाच उरतलें. तुजे म्हजे मजगतचें अंतर तें हें...लक्षांत आयलें ?

**राधा :** दुख्खी जावपांतूय इतलें सुख आसता ?

**वीणा :** [ सुस्कार सोडून ] सुख सदांच मेळना.

**राधा :** तूं दुख्खींय जाता ? अजाप दिसता...

**वीणा :** कित्याक ? म्हजे कडेन पयसो भल्ला म्हुण ?

**राधा :** तो तर जालोच. त्या भायर, बालाबाबा सारको मनीस जिविताचो सांगाती म्हुण मेळपाचो आसा तुका.

**वीणा :** [ सुस्कार सोडून ] जाचेर म्हजें मन बसलां तो म्हाका लागीं करिना फकत म्हज्या पयशांक लागून...हांव गिरेस्त म्हुण....

**राधा :** तशें जाल्यार, गरीब जा.

**वीणा :** गरीब जावप सोपे-शें दिसता तुका ?

**राधा :** चड-शे यत्न करचे पडनात....

**वीणा :** तूं कितलें भाग्यवान, तुका खबर ना...पुणून लक्षांत धर. जाचे कडेन पयशे नात, ताका ह्या संवसारांत कोण खायना.

**राधा :** तशें जाल्यार संवसाराचें खंय तरी चुकलां म्हणचें पडलें. [ वीणा सोंसूनज जावन ताचो ड्रेस ओडटा...ड्रेस पिंदता...वीणा मोटया मोटयान हांसता...राधा तापून ] ह्या घरांत पावल दवरीत पसून म्हजे तरेतरेचे अपमान जाल्यात...कित्याक ? हांव गरीब म्हणुनच मू ? हांव तुजे सारकी गिरेस्ताली धूव आशिल्ली जाल्यार तुका म्हजेकडेन अशें उलोवपाचें काळीज जावचें नाशिल्लें. हांव गरीब म्हुण तूं म्हजो ड्रेस पिंदूंक पावलें– हांव आतां तुका गरिबांचे भाशेंत विचारतां : तूं हांगासल्लें वता काय ना ?

लाग चलूंक हांगासल्लें पयलीं.

**वीणा :** [ हांसता ] लाग चलूंक ? कोणाक सांगता गो तूं हें ? तूं कितें आपल्या घरांत आसा-शें दिसलें तुका ? [ मोटयामोटयान हांसता. ]

**राधा :** येदोळ पसून हांवें तुका समजून घेवपाचो यत्न केलो. आतां हांव तुका विचारतां, तूं वता काय ना हांगासल्लें ? ना जाल्यार हांव तुका धुकलून भायर घालतलें.

**वीणा :** म्हाका भायर घालतलें ? [ हांसता ] पळोवया तरी तुजी कापस्दाद.

**राधा :** पळेतलें ?

**वीणा** [ हांसून ] तुका हांव भियेतलेंशें दिसलें ? [राधा वीणाच्या केश्टयांक धरून ओडटा. दोगांय झगडटात. ] पापा.... पापा...म्हजे केंस हुमटायले हे राक्षशिणीन.

**राधा :** गंगावनां मेळटात तरेतरेचीं. म्हजो ड्रेस पिंदलो ? हांव तुजें खुमणें पिंदिना जाल्यार पळे...

**वीणा :** म्हाकाय नाखटां आसात तुजें खुमणें पिंदपाक.

**राधा :** वापर तर तीं.

[ दोगांय झगडटात. इतल्यांत पुरसो येता. तांकां झगडटना पळोवन ताचो आवरो उडटा. तो ' लालाबाब लालाबाब ' करीत धांवत सुट्टा. बाला येता. ताका किते करचें समजना. अवचित् दोगांयची नदर ताचेर पडटा. आनी दोगांय एकामेकांक सोडयतात. ]

**राधा :** [ बालाक लाला समजून ] जाले मू तुमी धादोशी आतां ? तुमकां एक नाटक करपाचें आशिल्लें. जाय तशें जालें मू ? हांव कोण तें सांगलें तुमी लोकांक ? अजून मेरेन सांगिल्लें नासत जाल्यार आतां सांगपाची गरज ना. हांवूच तांकां सांगतां. मागीर नाटक अदिकूच रंगार येतलें. आतां ह्या नाटकाचो अखेर कितें जातलो सांगूं ? म्हजे आवयचो अपमान सगळयांत पयलो. तिका आनी म्हाका अपमान सोंसपाची संवय आसा. गरीब न्हय आमी ? आनी तुमकांय गरिबांचो अपमान करपाची संवय आसा. उगडास आसा, तुमच्या भुरगेपणांत गरीब भुरग्यां वांगडा खेळूं नाका म्हुण तुमकां तुमच्या घरांतलीं जाणटेलीं सांगतालीं ताचो ?...तांकां सारकें खेळूंक येना, तांकां रीत ना म्हुण ? तुमकां आमचें मन केन्ना कळपाचें ना. हांवें आयज

तुमी सांगलां तितलेंय केलें. कित्याखातीर ? तुमकां केन्नाच तें कळपाचें ना. तुमी सांगलें, तुमच्या भावाचेर म्हजें मन बसलां अशें भासय म्हुण... हांवें भासयलें. तुमी सांगलें, तळयेंत जीव दी म्हुण....हांव तयार जालें. कित्या खातीर ? पयशां खातीर ? ह्या ड्रेसा खातीर ? साडयां खातीर ? तुमकां कळपाचें ना. कांयच कळपाचें ना. उलयात मू हो. ओगी कित्याक ? आं...समजलें. हिच्या मुखार उलोवपाचो धीर जायना न्हय ?

**बाला :** पुणून....हांवें तुका असलें कितेंच कर म्हुण सांगूंक ना.

**राधा :** कितें म्हळें ? तुमी सांगूंक ना ?

**वीणा :** हाणें सांगूंक ना. पळे. हाचें तोंड पळे. हो तो न्हय...ताचो भाव...

**राधा :** [ गोंदळांत ] म्हाका माफ करात....हांव चुकलें. म्हाका चत्राय उल्ली ना.

**बाला :** ना. चूक म्हजीच जाली. खरें म्हळयार, हांवें तुजी माफी मागपाची.

**वीणा :** बाला, तुवें हाचे कडेन कितेंच उलोवपाची गरज ना. लाला ताका घेवन आयिल्लो. लालाच पळोवन घेतलो. आमी या हांगासल्लीं.

**बाला** अशें उलोवचें न्हय, वीणा.

**वीणा :** तूं येता काय ना ?...ना जाल्यार म्हजे तुजे संबंद तुटले समज. [ वीणा वता. ]

**बाला :** तुका आज जें सोसचें पडलां त्याखातीर हांव तुजी माफी मागतां.

**राधा :** तुमी हांगा आनी-आनी रावूं नाकात. वीणा रागार जालां. बेगीन वचात.

**बाला :** वतां [ एक पावल मुखार घालून फाटल्यान पळोवन विचारता ] भाव मेळत जाल्यार सांगूं मू तुजें मन ताजेर बसलां हें तुवें म्हाका सांगलां म्हुण.

**राधा :** गरज ना सांगपाची.

[बाला अजापांत पडटा आनी वता. गिरिजाबाय येता.]

**गिरिजा :** पुता, सगळो गोंदळ जालो.

**राधा :** हांव तुकाच सोदतालें.

**गिरिजा :** [सोफार धबांयच करून पडटा] सगळें घसांयंच करून कोसळून पडलें. सगळें मातये भरवण जालें. लालाबाबाची तकली फिल्ल्या जावंक जाय. मर्दींच नाचांत एका कदलार उबो रावलो आनी लोकांक कायचे काय

सांगपाक लागलो. आतां माणसुकी उरूंक ना हांगा रावपाची.

**राधा :** तूं आतां तुजी साडी बदल आनी यो...आमकां आत्तांच्या आत्तां भायर सरूंक जाय.

**गिरिजा :** तुका मात्य राग-बीग कसो येना गो ?... आगो, म्हजीं सगळीं सपनां मातये भरवण जालीं मुगो....हांव समजतालें, लालाबाब तुका हात दितलो. मागीर हें अशें कित्याक जावचें ? ताणें आमकां आमंत्रण तरी कित्याक केल्लें ?

**राधा :** तुजे हे सगळे शीण मागीर. पयलीं साडी बदलून यो. आमी आतां निखालूस रावंक जायना हांगा...आतांच्या आतां वचूंक जाय.

**गिरिजा :** या गो आमी. पुणून एक सांगतां. म्हाका तुज्या फुडाराचो हुसको. हांव आतां श्रीकान्तबाबू कडेक उतर घालतां. ना जाल्यार तुजी इज्जत उरची ना. तो तुजे परस बरोच जाणटो. पुणून पंदरा वरसांचें अंतर म्हळयार चड न्हय. मनीस बरो. तुमी दोगांय एकामेकांक मानतात हेंय हांव जाणां...तुमी दोगांय सुखी जातलीं. ना म्हणूं नाका.

**राधा :** तूं पयलीं साडी बदलून येता काय ना ?

**गिरिजा :** [ रागान ] तूं म्हजें कांय आयकुपाचें ना जाल्यार तुका जाय तशें तूं कर. हांव तुजे वाटेक वचचें ना. तुका सुयेग होगडावपाची संवय जाल्या.... एक होगडायलो...होय होगडाय. याद दवर. एक दीस असो येतलो कि जेन्ना बरोच कळाव जालो म्हुण तुका पच्छात्ताप जातलो.

**राधा :** उपकार कर आनी बेगीन साडी बदलून यो.

[ ती वचूंक भायर सरपाक सोनुबाब भितर सरता. ]

**सोनुबाब :** म्हाका तुमचे धुवे लागीं थोडें उलोवपाचें आशिल्लें....

**गिरिजा :** बरे भाशेन. ती पळे हांगाच आसा. [ राधाक ] हांव माळयेर वतां. मातशें सारकें येवज. ताका आजूच सांगूंक जाय. [ वता. ]

**सोनुबाब :** [ राधाक ] म्हाका तुजे कडेन थोडें उलोवपाचें आशिल्लें.

**राधा :** कितें ?

**सोनुबाब :** मुद्याचे किते तेंच सांगतां. प्रस्तावना–बिस्तावना करूंक बसना. तुका दिल्लें तें काम तुवें बेस बरें केलें हातूंत दुबावूच ना. पुणून आतां तें सोंपलें. कित्याक तर पार्टी सोंपली. हांव तुका सांगूंक आयलां तें अितलेंच,

तूं मातशें बेगीन वच.

**राधा :** हांवें केन्ना वचचें आनी केन्ना न्हय हें तुमी कोण थारायतले ?

**सोनुबाब :** हें पळे, हांव कोण कितें कात तें तुका लागना....हांव तुका विचारूंक सोदतां. तूं बेगीन वचपाक कितें घेतलें ?

**राधा :** कांयच ना....तुमी वच म्हुण सांगचे पयलींच हांवें वचचें केल्लें.

**सोनुबाब :** बरें आसा. आतां सांग. लालान तुका आयच्या कामा बदला कितें दिवंचें केल्लें ?

**राधा :** म्हजी अेक थरिल्ली फी आसा ती. दोन तीन साडयो आनी हो ड्रेस... जो अेकलेन पिंदलो...

**सोनुबाब :** कोणें पिंदलो ?

**राधा :** तुमचे ध्रुवेन.

**सोनुबाब :** कांय नज...हांव ताच्या बदला तुका असल्या दोन ड्रेसांचे पयशे दितां.

**राधा :** म्हाका तुमचे पयशे नाकात....होच ड्रेस घेवन वचपी हांव.

**सोनुबाब :** बरें आसा. आतां सांग. लालान तुका फी कितें दिवंची केल्ली ? ती हांव दिवपाक आयला...कितले दिवं ?

**राधा :** कांय नाका.

**सोनुबाब :** पुणून ताणे तुका फी दिवची करून हाडिल्लें मू ? ती घेनासतना तूं वतलें ?

**राधा :** तशेंच येवजिलां हांवें.

[ सोनुबाब अजापान पळेता. खीणभर थांबून म्हणटा. ]

**सोनुबाब :** मोल दिनासतना घेतिल्ली वस्त म्हाका अुपकरना.

**राधा :** तुमकां तातूंत कसले त्रास जातात ?

**सोनुबाब :** ती खूब म्हारग पडटा. पुणून तुका दिवंचे केल्ले पयशे तूं कित्याक घेवचें ना म्हणटा ? म्हाका समजना.

**राधा :** म्हजी खोशी म्हुण.

**सोनुबाब :** आनी म्हजे खोशयेचें कितें ?

**राधा :** तुमी कांय म्हाका आपोवंक नाशिल्लें.

**सोनुबाब :** तुका लालान आपयल्लें मुगो ?

**राधा :** हय. हांव त्या प्रमाण आयलें. म्हाका दिल्लें काम हांवें केलें. आतां हांव चल्लें.

**सोनुबाब :** कांय घेनासतना ?

**राधा :** हय.

**सोनुबाब :** हें सारकें न्हय.

**राधा :** तुमी रागार जांव नाकात...हांवें अशेंच करचें येवजिलां. [ अुठ्टा.]

**सोनुबाब :** ना...ना...ना....अशें सौझा भाशेन करूं नाका...

**राधा :** सौझा भाशेन ? कोण सौझा ?

**सोनुबाब** म्हजे सारकोच अेक मिनेर. जेन्ना जेन्ना म्हुण आमी धंद्याचें थारावंक बसताले तेन्ना तेन्ना आमचे मजगतीं मतभेद जाताले आनी तेन्ना तेन्ना तो अुठून चलूंक लागतालो. मागीर म्हाका धांवत ताच्या फाटल्यान वचचें पडटालें. ताका धरून हाडपाक जितलें पयस म्हाका वचचें पडाटालें, तितलें तें अपरांत म्हाका म्हारग पडटालें. तेन्ना ताचे भाशेन करूं नाका... धंद्यांत मतभेद जातात. वांटपणा करचीं पडटात....धंद्याचें आंग तें. आतां सांग, तुका कितले दिवं ? तूं तुका जाय तितले माग. मागता तितलेंय मेळटलें तुका.

**राधा :** म्हाका तुमचें कांयच नाका.

**सोनुबाब :** हें आतां तुजें अती जालें....म्हजें आयकता ? तूं मागशीत ताचे दुपटीन तुका मेळटलें. [ बोलसांतल्यान नोटिचो अेक कवळो काडटा ] हें पळे... सगळयो नव्यो करकरीत नोटी ह्यो. अितल्योय ह्यो व्हर...तुजें जें किते थरिल्लें ताच्याकूय कितल्याश्याच वांटयांनी चड हें....

**राधा :** ह्यो नोटी कित्यांत घालून व्हरप हांवें ?

**सोनुबाब :** [ पसरकारा भाशेन ] राव...तुका हांव त्यो बऱ्यो बांदून दितां.

**राधा :** आयकशात मातशें ? हांव तुमच्या त्या सौझाभाशेन वांटपणा करिना. म्हाका खऱ्यानींच तुमचो पानदुडू नाका.

**सोनुबाब :** अब्बा ! इतलें म्हारग तूं ?

**राधा :** एक प्रस्न विचारतां. रागार जावंचे नात मू ? संवसारांत बुद्द नासतना केन्ना कोणाक व्हड जावंक आयलां ?

**सोनुबाब :** बुद्द नासतना व्हड कसो जातलो ? बुद्द आसल्यारूच मनीस

व्हड जाता.

**राधा :** तुमकां बुद्द आसा मू ?

**सोनुबाब :** [ अजापान ] ते बगर इतलें जोडूंक पावलों हांव ?

**राधा :** हय मू ? तशें जाल्यार मागीर बुद्द आशिल्ले भाशेन उलोवंया. तुमी हांगा येवन म्हाका आडावन दवरूंक नाशिल्लें जाल्यार येन्नादर हांव घरा पावपाचें. आतां लक्षांत आयलें तुमच्या ? तुमचे पयशे घेवन तुमकां बिकपा सारकें म्हजे कडेन कांयच ना.

**सोनुबाब :** अशें म्हुण केन्ना जाता ? विकपा सारकें कितें ना कितें मनशाकडेन आसताच· त्या भायर [ आडखळत ] तुजे कडेन जरूय विकपाक कांय नासलें तरूय म्हाका कितेंय तरी विकतें घेवपाचें आसा.

**राधा :** म्हजे कडेन तुमकां कितेंच विकतें मेळ्ळें ना जाल्यार कितें जातलें ?

**सोनुबाब :** [ गोंदळून ] म्हजो म्हजे वयलो विस्वास साप उडटलो....

**राधा :** [ हांसून ] सौझांक कळोवचें पडलें.

**सोनुबाब :** सौझा कडेन चलता तो वेगळे तरचो व्यापार. तुजे इतलो कठीण न्हय तो...[ आडखळत ] हांव तुजे कडल्यान विकतें घेवंक सोदतां तें...

**राधा :** हांव जाणां...वीणाच्या मनाचें समाधान...

**सोनुबाब :** न्हय. म्हजें समाधान...केदेंय पडूं मोल. कितले दिवं सांग.

**राधा :** हांवें तुमकां सांगलांः म्हाका तुमचें कांयच नाका.

**सोनुबाब :** आयक. तुका इतलें दितां, इतलें दितां कि तुजे इतली गिरेस्त चली संवसारांत दुसरी कोणूच आसची ना.

**राधा :** रागार जावं नाकात...तुमकां ना म्हणपांत म्हाका जो आनंद आसा तितलो गिरेस्त जावपांत ना...[ निश्चयान ] हांवें तुमकां सांगलां, म्हाका तुमचें कितेंच नाका.

**सोनुबाब :** [ अवचित उसळून ] कितें करचें समजना. दुडवांनीं पुरो संवसार विकतो घेवं येता अशें दिशिल्लें. म्हुण दुडू जोडपाक लागलों. पुणून आतां दिसपाक लागलां. कितेंच मेळना. आरोग्य मेळना, आनंद मेळना गिन्यान मेळना, संतोस मेळना...मोग मेळना. मनशाक जें जाय तांतलें कितेंच मेळना. इतलो दुडू जोडलो हांवें, पुणून...एक दीस सारकी न्हीद पडली ना. एक दीस वेळार जेवंक पावलों ना. एकल्याचोय मोग जोडूंक

पावलों ना. काय बरो आशिल्लों हांव अठरा वीस वरसांचो आसतना ! कश्ट करतालों आनी जोडटालों...जाय तितलेंच. जोडूय चड न्हय, मोडूय चड न्हय. तेन्ना कितलो सुखी आशिल्लों ! [ राधाक ] म्हजेर उपकार कर...म्हजे सगळे पयशे व्हर तूं.

**राधा :** म्हाका तुमचो पानदुडूय नाका...

**सोनुबाब :** नाका ? बरें आसा .पळेतलें तूं हांव कितें करता तें पयशाचे ? [ बंडल काडटा आनी किंवाटयान नोटी पिंदपाक लागता.]

**राधा :** म्हजेय कडेन दियात थोडयो...[ एक बंडल घेता आनी तेंय पिंदपाक लागता...दोगांय पिंदिल्ल्यो नोटी हवेंत उडयतात.]

**सोनुबाब :** गेलें सगळें वाऱ्यार उडत...म्हजें सुख ना करपी, समाधान ना करपी आरोग्य ना करपी सगळें सगळें वचूंदी उडत. [ हांसता. ] खूब जोडिल्लो दुडू. दुडूब्रह्मा दुडूर्विष्णु दुडूर्देवो महेश्वराः समजून. कळ्ळी म्हाका तुजी तांक कितली ती...[नोटी दांतांनी पिंदता आनी उडयता.] ल्हानपणापसून शिकयल्लें: जाच्चे कडेन दुडू आसा तोच कुलीन, तोच विद्वान, तोच गुणी...तोच देखणो. कळ्ळें आतां म्हाका. सुमारा भायर दुडू येतकूच मनीस कितलो खांकनवाळ जाता तो. [ निमाणी नोट पिंदतकूच राधाक विचारता ] जालें तुजें समाधान ? जिखलें तूं. [ सोफार पुरो जावन खर्शेत पडटा...एक नोट पिंदनासतना पडिल्ली राधाक जमनीर दिश्टी पडटा. तें ती काडटा आनी पिंदून उडयता. ]

**राधा :** जोडटा आसतना इतलें पुरो जाल्लें ?

**सोनुबाब :** एका काळार हांव तुजे भाशेन आशिल्लों...पुणून त्यावेळार म्हाका दिसतालें. लोक म्हाका म्हत्व दिनात, चड लेखिनात तें हांव गरीब म्हुण. हांवें नित्शाय केलो. हांव गिरेस्त जावन सगळयांक दाखयतलों. आनी जालों. सगळयांक विकते घेवंक लागलों. सगळें घेतलें...कांयच घेनासतना दवलें ना. घेवंक पावलों ना तें समाधान आनी प्रेम. जिवितांत म्हत्व आसा तें फकत हयाच दोन गजालींक. आनी त्यो पयशांनी मेळनात... [ इतल्यांत पुरसो भितर सरता. ताका ] कोण जाय तुका ?

**पुरसो :** [ अजापान पिंदिल्ल्यो नोटी पळोवन ] हें कितें ? [ काचाबूल जाता ] लालाबाबान धाडिल्लो...[ राधाक ] तुका लालाबाब आपयता.

**राधा :** [ उठून ] तांकां सांग, सोनुबाबान सगळें फारीक केलें म्हुण. [ वता ]

**सोनुबाब :** [ राधाकडेन तोखणायेन पळेता आनी पुरशाच्या आधारान उठपाचो यत्न करता. ] कुडींत फोन आसा मरे ?

**पुरसो :** आसा बाब...

[ पुरशाचो आधार घेवन जड पावलांनीं वता. ]

[ पड्डो पड्टा. ]

## देखाव दुसरो

ताईबाय एकलीच आपल्या कदेलाचीं चाकां घुंवडावन येता. थोडया वेळान आवडू थतरवितर जावन भितर सरता.

**आवडू :** बाय, कितें जालां समजना. राधा खंयच दिश्टी पडना. सगळे ताका सोदतात. अजून मेळूंक ना. आवय सामकी पिशांतुरा वरी जाल्या. [ ताईबाय ताच्या तोंडाकडेन पळेता. ] हय बाय, ताच्या हातांक एक मुदी आशिल्ली. बरी मोलादीक. ती काडून ताणें मेजार दवल्ली आनी आपूण नाच जालें. बाय, कितेंय कर आतां.

**ताईबाय :** तुका रडपाक वेळ जायतो आसा. पयलीं वच आनी दोन तुवाले घेवन यो. राधा जीव दिवपाक तळयेर गेल्लें. लालाची नदर जिस्त ताचेर पडली आनी तो ताच्या फाटल्यान धांवलो. आतां येवपा जालीं तीं. तूं तुवाले घेवन यो पयलीं.

**आवडू :** अशें कित्याक जावचें बाय ? अशे कित्याक करचें ताणें ?

**ताईबाय :** त्यो जायण्यो उपरांत म्हुण सागलें न्हय ? पयलीं तुवाले घेवन यो.

[ आवडू वता. पुरसो भितर येता. ]

**पुरसो :** बाय !

**ताईबाय :** म्हाका खबर आसा सगळें. प्रेम भंगाक लागून जीव दिवप बी देखाव दाखोवपाचो उरिल्लो ह्या नाटकांत. तूं मातसो रांदचे कुडींत वचून हुनहुनीत कॉफी करूंक लाय बेगीन पळोवंया.

**पुरसो :** घेवनूच येतां...[ पुरसो वता. लाला राधाक घेवन येता. राधा भिजिल्ले अवस्तेंत... ]

**ताओीबाय :** [ तांकां पळोवन ] आवडू....ए आवडू ! [ आवडू तुवाले घेवन येता. ] हे घेयात...पयलीं आंग पुसात. [ आवडूक ] वचून ताचे आवयक सांग. तें हांगां आसा म्हुण....[ आवडू वता. ] तुमकां थंडी जातली. माथें पयलीं पुसात. पुरशाक सांगलां काफी हाड म्हुण...[ लालाक ] तुकाय उडी घेवंची पडली तळयेंत ?

**लाला :** मातशी–शी...

**ताओीबाय :** [ राधाक ] कित्याक गो बाये तळयेंत पडचे–शें दिसलें तुका ? अुजो चड जालो ?...बस....[ राधान केंस सोडयल्ले आसतात. तुवाल्यान ते पुसपाचो तें यत्न करता. ] जीव दिवपाचो यत्न कित्याक केलो तुवें ?

**लाला :** म्हजीच चूक जाली ती ताओीबाय. हांवें ताका सांगिल्लें तशें कर म्हुण. बालाक जाग्यार हाडपाक. पुणून मागीर हांवें म्हजो बेत बदल्लो. तो ताका सांगूंक पावलों ना.

**ताओीबाय :** समजलें. म्हणजे तुज्या नाटकाचो अेक देखाव अजून अुरिल्लो तर.

**लाला :** नाटक सोंपलें.

**ताओीबाय :** मागीर, कित्याक गो तूं तळयेंत देंवलें ?

**राधा :** म्हाका तशें दिसलें.

**लाला :** आमच्या कॉंट्रॅक्टांत तें नाशिल्लें.

**राधा :** आमचो कॉंट्रॅक्ट सोंपिल्लो. त्या अुपरांत हांवें कितें करचें हें थारावपाक हांव स्वतंत्र आशिल्लें.

**ताओीबाय :** तुका जाय तें करपाक तूं स्वतंत्र आसा. पुणून हांव अेक सांगतां. हाचे खातीर [ लालाकडेन बोट दाखोवन ] तुवें जीव दिवचो केल्लो आसत जाल्यार ती तुजी चूक. तुमचो तो मोग–बीग म्हाका समजना. पुणून हो मनीस तुजेर मोग करिना अितलें लक्षांत दवर तूं. तुजेरूच म्हुण न्हय, तो कोणाचेरूय मोग करिना. ताका करूंक येना. तो तुका नाचयतलो, खेळयतलो. बुकलो जसो हुंदराक खेळयता तसो. निमाणें तो तुका खातलो. म्हजें आयकशीत ? लाला तुका फावना. [ लाला तांबडो जाता. ] पळे ताका. नाका पुडयो कश्यो फुलयल्यात ताणें. पळे. ताका राग आयला. [ लाला रागान अुठून वचपाचो यत्न करता. ] खंय वता ?

बस हांगा. हे चलयेक आजूच निर्णय घेवपाचो आसा. त्या खातीर ताका सगळें फाटलें फुडलें दाखोवन दितां हांव. [ राधा हुंदको दिता. ताचे फाटी वयल्यान हात ओडून ] अशें दुबळें मन मोटो निर्णय घेवपाक अुपकारना. तूं लालाचेर मोग करता असो तुजो समज आसत. पुणून तो खरो न्हय. तूं ताच्या रुपाचेर करता.

**राधा :** न्हय न्हय.

**ताअीबाय :** हांव जाणां. म्हाका तुजें मन तुजे परस बरें समजता. लाला परस तुका बाला बरो. [ लाला अुठून वता. ] तो चल्लो पळे. वचूं दी. तुजे सारके नाजूक चलयेक हो फावना. तुका बालाच बरो सांबाळटलो. [बाला येता ] हो पळे आयलो बाला. पळे ताका सारको. सारको तसोच दिसना ? सारको तसो. बद्द तो म्हळयार जाता. [ बालाक ] हें जीव दिवपाक गेल्लें. कित्याक तें ताकाच खबर ना.

**बाला :** म्हाका खबर आसा.

**ताअीबाय :** म्हजें आयकशीत तूं बाला ? तुका वीणा फावना.

**बाला :** हांव तुका तेंच सांगूंक सोदीं. आमचे संबंद आतां तुटले.

**राधा :** ना. ना. अेकाच वांगडा आमकां दोगांकूय दुख्खांत धुकलूं नाकात.

**बाला :** जाका काळीजूच ना ताका आनी म्हाका पडपाचें ना. बरें जालें. वेळार समजलें.

**ताअीबाय :** राधाचेंय म्हणणें तेंच. घट काळजाचो मनीस ताका पेलपाचो ना. देखून हांव म्हणटां. [ बालाक ] जाचें मनीस ताका मेळूंक जाय. राधा, आमी दोळे आसून कुड्डीं आनी कान आसून भेड्डीं. आमी अेकठांय भोंवतात, अेकठांय रावतात. पुणून भोंवतणच्या लोकांभितर आपलें मनीस कोण हें पळेनात. ताका वळखनात आनी मागीर संवसारांत आमकां कोण ना अशें म्हणूंक लागतात. हय मरे बाला ? आतां तुमी दोगांय आशें करात. भायर वचून बागेंत बसात. [ बालाक ] तूं ताका सांग आपल्या जिविताची काणी. [ राधाक ] तूं हाका सांग. मागीर तुमी दोगांय अेका-मेकांक वळखतलीं.

**बाला :** [ राधाक घेवन वतना ] बायलांचीं काळजां म्होंवाळ आनी मोवाळ आसतात अशें म्हाका दिशिल्लें.

**राधा :** आनी दादले शाणे आनी बरे आसतात अशें म्हाका दिशिल्लें. [ वतात.

[ ताईबाय तांकां तोखणायेन पळेता. ]

**ताईबाय :** आनीक पांच मिणटां. मागीर हांचो प्रस्न सुटटलो. आतां लाला उल्लो. [ उलो करता. ] लाला....!

**लाला :** आयलों [ येता. ]

**ताईबाय :** तुवें कितें येवजिलां ?

**लाला :** येवजुपा सारकें कितें आसा ?

**ताईबाय :** एक तर म्हाका कांयच समजना अशें धरून चलूंक जाय. वा समजता जाल्यार, तुवें आयचें हें नाटक तुजें वीणा तुका मेळचें म्हुण तुवें घडोबन हाडिल्लें अशें धरूंक जाय. तुमी दोगांय एकामेकांक पयलेच खेपे मेळ्ळीं तेन्ना पसून तुमचें एकामेकांचेर मन बशिल्लें. म्हाका समजता रे सगळें.

**लाला :** फट. [ हांसता. ]

**ताईबाय :** तुका येवजुपाक पांच मिणटां दितां. [ उल्हास येता. ] उषा खंय रे उल्हास ? [ उषा येता. ]

**उषा :** कितें जालें जार्णात तुमी ? आकांत सगळो. फोनार फोन. फोनार फोन...ही कंपनी दिवाळयांत ... ती कंपनी गेली ! सोनुबाबान सगळें फुकून उडयलें.

**उल्हास :** खरें ? म्हाका दिशिल्लेंच. कितेंय तरी करून आडावचें पडलें सगळें आतां. [ ताकतिकेन वता. वीणा येता. ]

**वीणा :** आयकलें मू तुमी ! दोन चार वरां भितर पापा पुरशेमामा भशेन.

**लाला :** मागीर, तुजी अवस्ता कितें ?

**वीणा :** म्हजी अवस्ता आनी कितें जातली ? अडेचें आशिल्लें तें गेलें अशें मानून नशिबांत उल्लां तें भोगीत रावपाचें.

**लाला :** आतां बालाकडेन लग्न जा. भियेवं नाका. ताचे कडेन पयसो आसा.

**वीणा :** म्हाका नाका बाला. आनी ताकाय नाका जालें हांव. तो पळे बागेंत बसला. ताका आपलें मनीस मेळ्ळें.

[ लाला वचूंक करता. ]

**ताईबाय :** खंय वता ?

**लाला :** बालाक हाडपाक. थारायल्लें मोडप बरोबर न्हय. आनी आतां वीणाक

पयशांची गरज आसा.

**वीणा :** म्हाका नाका तो. हांवें निर्णय घेतलो.

**लाला :** कितें म्हुण ?

**ताईबाय :** हांव सांगतां ताचो निर्णय. ताचें मनीस ताका मेळूंक जाय. [ लाला उठून वता. ] हो आतां आनी गोंदळ घालिना जाल्यार पुरो.

[आवडू आनी गिरिजाबाय येतात.]

**आवडू :** आयकलें बाय. बरी ऽ खबर...

**ताईबाय :** आयकल्या.

**गिरिजा :** आयकल्या ? अजाप ! आमकां सोडून कोणाक खबर ना अशें हांव धरतालें. हया दिसांनीं खबरो वाऱ्याच्या वेगान धांवतात हेंच खरें म्हणचें पडलें. [ श्रीकान्त येता ] तो पळे, तोच आयलो ... ताकाच विचारात.

**ताईबाय** [ श्रीकान्ताक ] कितें जालां ?

**श्रीकान्त :** एक मोटें संकट कोंसळ्ळां म्हजेर. हयो दोगी म्हज्या ताळयांत बोटां घालुघालून 'हय' म्हुण जाप काडूंक सोदतात. राधा....

**ताईबाय :** राधाचो प्रस्न सुटलो. तें पळे बाला वांगडा बागेंत ताका...

**गिरिजा :**
**आवडू :** ]– खरेंच ?

**श्रीकान्त :** बरें जालें. हांव 'हय' म्हणूंक वतालों. भिडेन.

[ पुरसो काफी घेवन येता. ]

**ताईबाय :** खूब उशीर केलो हांणीं [ पुरशाक ] काफी श्रीकान्ताक दी.

**श्रीकान्त :** बरें जालें. धर्मसंकटांतल्यान वाटावलों. [ काफी पियेता. ].

[ गिरिजा आनी आवडू बेगिबेगीन वतात. ]

**ताईबाय :** लाला खंय गेलो ? ताका हाडात हांगा. [ वीणाक ] तूं खंती जावं नाका. तुजें मनीस तुका मेळटलें [ वीणा लजता. ] लाला ... ए लाला...

**उषा :** [ भितर सरून ] तो पळे लिपता.

**ताईबाय :** लिपता ? कोणाक ? [ पुरशाक ] ताका आपयला म्हुण सांग हांवें. [ पुरसो वता. वीणाक ] तो खंय लिपून रावतलो ?

**वीणा :** ताका नाका आशिल्लें बळयां करूंक लावं नाकात.

**ताईबाय :** नाका तूं ताका ? ओगीच ताणें इतलोय हो गोंदळ घाल्लो ?

[ दारार पावलां आयकूंक येतात. ] हो पळे आयलो. [ उलो करता. ] लाला ! [ पुरसो येता. ]

**उषा :** तो येवचो ना हें हांव जाणा आशिल्लें.

**पुरसो :** लालाबाबान चीट दिल्या.

**ताअीबाय :** हाड ती. [ चीट घेता आनी वाचता ] " तुमकां जाय तशें जावं दी. तुमच्या भायर हांव ना. म्हाका तोंड दाखोवपाक लज दिसता म्हुण हांव येना. हया सगळया बोवाळांत उषाक मात् विसरूं नाकात. " [ वीणाक ] चल. हांगा रांव नाका आतां तूं. तो खंय आसा थंय वचून ताका सोदून काड. तुजें मनीस तुका. एकामेकांक सांबाळात.

[ वीणा वता. सोनुबाब भितर सरता. भेस सादो. ]

**ताअीबाय :** हें कितें आज ?

**सोनुबाब :** हांव चल्लों म्हुण सांगपाक आयलां.

**ताअीबाय :** खंय ?

**सोनुबाब :** हृषीकेशाक.

**ताअीबाय :** पयलीं भुरग्यांक आशिर्वाद दियात. मागीर हांवूय येतां तुमच्या वांगडा. जाचें मनीस ताचे सुवादीन करतकूच आमचें काम सोंपलें. [ उषाक ] उल्हास खंय गो ? [ उल्हास येता. ]

**उल्हास :** हांगा आसां हांव.

**ताईबाय :** [ दोगांकूय ] तुमी एक नवी देख घालून दिल्या समाजाक. आतां तुमची जापसालदारकीय वाडल्या. लक्षांत आसा मू ? [ दोगांकूय लागीं आपयता आनी दोगांयचो हात हातांत दिता. दोगांय ताईबायक आनी सोनुबाबाक पांयां पडटात. ]

[ भायर फोगफुगेटयो चल्ल्यात. ]

**सोनुबाब :** हें सगळें केन्ना थल्लें ?

**ताईबाय :** पयलोंच. आयच्या दिसाची खोशी आनीक दुसरे कशे भाशेन उकता-वपाची ?

[ उषा आनी उल्हास वतात. इतल्यांत पुरसो एक तेलेग्राम घेवन येता. ]

**पुरसो :** [ सोनुबाबांक ] तुमकां. [ सोनुबाब तेलेग्राम वाचता आनी मोटया मोटयान हांसता. ]

**सोनुबाब** : दिवाळें लेगीत फुंकप सोंपे न्हय तर ! जी इश्टेट हांवें फुकूंक भायर काडिल्ली तिचें मोल स्टॉक एक्सेंजींत दुपट जालें. आनी म्हजेच कडेन परती आयली. आशिल्लों ताच्याकूय हांव अदीक गिरेस्त जालों. फोग लायात रे. आनिकूय लायात ! [ हांसता. ]

**लाला** : [ भितल्ल्यान येवन ताईबायक ] सगळयांक फाल्यां साकरपुडयाक येयात म्हुण आमंत्रण आतांच दिल्लें बरें.

**सोनुबाब** / **ताईबाय** ] दिवंया–[प्रेक्षकांक] फाल्यां येयात तुमी सगळीं साकरपुडयाक.

**लाला** : आतां आयच्या दिसाचे खोशयेन फांतोड जाय सर नाचुंया आमी....
[ बँड वाजता. परतो नाच सुरू पड्डो मात पडना. जाता. नाच सवन्रात चलता. प्रेक्षकांच्यानूय नाचांत वांटो घेवं येता. ]

—

# रवीन्द्रबाबांली बरपावळ

**कोंकणींत :**

अशे आशिल्ले गांधीजी
कथा आनी काणयो
नवी शाळा
तुळशी
वेळे वयल्यो घुलो
भज गोविन्दम् – अेक मनन
भौ-भाशिक भारतांत भाषेचें समाजशास्त्र
अुजवाडाचे सूर
मुक्ति

**मराठींत :**

कोंकणीचें राजकारण
जपान जसा दिसला
ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत

**गुजरातींत :**

काका कालेलकर साथे विविध वार्तालाप

**अिंग्लीशींत :**

A Bibliography of Konkani Literature.